# कर्लेंची बनवड





संकलन :
जयंती नायक

# कर्लेचीं बनवड








शणै गोंयबाब महोत्सवी वर्स



# कर्लैची बनवड




संकलन ः

जयंती नायक







गोवा कोंकणी अकादेमी

करलेंची बनवड

(लोककाव्य)

संकलन :
जयंती नायक

प्रकाशन क्र.:४७





उजवाडावपी :
चार्ल्स डिसोझा
सचीव,
गोवा कोंकणी अकादेमी,
बोरी, फोंडें, गोंय.

छापपी :
स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स,
मार्शेल, गोंय.

मुखचित्र :
दिलीप धामस्कार

पयली आवृत्ती : २००२

मोल : रू.६५/-



KARLECHIM BONVOD

(Folk Poetry)

COMPILATION :
Jayanti Naik

PUBLICATION NO.:47



PUBLISHER
Charles D'Souza
Secretary,
Goa Konkani Akademi
Borim, Ponda, Goa.

PRINTER :
Swarnamudra Prints
Marcela, Goa

COVER :
Deelip Dhamaskar

FIRST EDITION : 2002

PRICE RS. 65/-

# हो सोद संस्कृतायेचो आनी अस्मितायेचो

भास ही संस्कृतायेची बुन्याद आशिल्ल्यान खंयच्याय भाशीक घटकाचे संस्कृतायेचो आनी अस्मितायेचो अभ्यास करतना लोकवेदाक खोशेलें म्हत्व आपशींच येता. भाशेक लिखीत रुप येवचें आदीं मौखिक साहित्याची जी परंपरा लोकांमदीं चलत आयल्या ती त्या लोकांच्या आचार - विचारांचेर, सबावाचेर आनी जिणेकडेन पळोवपाचे तांचे नदरेचेर उजवाड घालता. ती त्या लोकांचे संस्कृतायेचें दर्शन घडयता. कोंकणी भाशी समाजाची संस्कृताय आनी अस्मिताय हांचो अभ्यास करतना त्या समाजाच्या लोकवेदाचो अभ्यास गरजेचो आनी म्हत्वाचो थारता हाचें कारण तेंच.

खंयच्याय समाजाचें सत्व आनी स्वत्व ना करचें जाल्यार ताची संस्कृताय ना करची आनी संस्कृताय ना करुन उडोवची जाल्यार ताचो लोकवेद ना करचो, हें तंत्र संवसारांतल्या कांय वसाहतवादी देशांनी आपणायलें. ताचो परिणाम म्हूण ब्राझील, मेक्सिको सारक्या देशांतल्यो थळाव्यो भासो ना-नपश्चात जावन गेल्यो. त्या भाशांवांगडा थंयच्या लोकांचे संस्कृतायेचीं कांय आंगांय ना जावन गेलीं.

गोंयांतले पुर्तुगेज राजवटकेंतूय तसो यत्न जालो. गोंयकारांक तांचे भारतीय संस्कृतायेंतल्यान हुमटावन आनी पुर्तुगेज संस्कृतायेंत घोळोवन भायर - भितर पुर्तुगेज करपाचो यत्न जालो. सोळाव्या शेंकड्यांत सुरू जाल्ल्या इंक्विझीशनान तो वावर परिणामकारी रितीन केलो. ते संस्थेन घाल्ल्या निर्बंधाक लागून कोंकणी भाशी समाजाच्या गिरेस्त लोकवेदाचेर हावळ आयली. थोडें ना जावन गेलें आनी जें उरलें तें तिस्त्यो वाद्न्यो जावन. तरी पूण तें तिगलें, तें ताचेमदले तांकीक लागून, जे अस्मितायेचो तें घटक आसलें ते अस्मितायेच्या बळाक लागून.

स्वरांज्यात, तो लोकवेद सांबाळून दवरून ताचो अभ्यास करप आनी तातूंत जें बरें आसा, अणभवाचो जो अर्क आसा तातुंतल्यान स्फूर्त आनी प्रेरणा घेवप ही आमची लागणूक थारता.ह्याच विचारान गोवा कोंकणी अकादेमीन लोकवेद विभाग स्थापन केला आनी ताचें काम सातत्यान चालू उरचें म्हूण प्रयत्न चलयला. ह्या वावराक फावो तितलो निधी जाय आसता, फावो तशीं साधनां जाय पडटात. ती एके मर्यादेभितर अकादेमीकडेन आसात. तरी पूण डॉक्युमेण्टेशन, संकलन आनी

उजवाडावणी ह्या मार्गान तो वावर अकादेमीन चालू दवरला.

श्रीमती जयंती नायक अकादेमीचो लोकवेद विभाग पळयतात. लोकवेदाच्या अभ्यासावांगडाच सर्जनशील साहित्याचीय निर्माण तांणी चालू दवरल्या. तांचीं आतांमेरेन १६ पुस्तकां उजवाडां आयल्यात. अकादेमीच्या लोकवेद विभागावरवीं तांणी केल्ल्या संकलनाचीं आनी अभ्यासांची हाचें आदीं ७ पुस्तकां अकादेमीन उजवाडायल्यांत. तेच माळेंतलें हें ८वें पुस्तक लोकवेदाच्या अभ्यासकांच्या हातांत दितना अकादेमीक खोस जाता.

शिंपडून गेल्लो लोकवेद एकठांय करप, तो आसडून - फाफडून अस्सल तें सोदपाचो यत्न करप आनी अभ्यासकांपासत फावो तशें एक साधन निर्माण करुन दिवप हें कठीण काम. ताका कश्ट लागतात, तिश्ठत लागता आनी लागणुकेची भावना लागता. श्रीमती जयंती नायक हांणी त्या गुणांच्या आदारान हेंवूय साधन निर्माण केलां. ही बनवड गावन सांगपी श्री. बोमो गांवकार आनी तांचे सांगाती श्री. जानू गांवकार आनी श्री. पायक गांवकार हांची अकादेमी उपकारी आसा.

बनवड हें कोंकणी लोकवेदाचें एक खाशेलें आंग. ताचें अदीक संकलन जावन चड खोलायेन अभ्यास जातलो तसो तसो हें गिरेस्त दायज सांबाळून दवरतल्या जाण्टेल्यांविशींचो आमचो आदर वाडत वतलो.

असलीं पुस्तकां दोन तरांनी उपेगाचीं थारतात. तीं आमकांच आमच्या गिरेस्त सांस्कृतिक दायजाचो दिश्टावो घडयतात आनी असलें धन सोदून वा वेंचून काडपाची आनी सांबाळून दवरपाची उमेद दितात. ह्या पुस्तकाकूय तेंच येस फावो जावचें असो अकादेमीचो आवंडो.

बोरी, फोंडें, गोंय.
६ नोव्हेंबर,२००२

**उदय भेंब्रे**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

# बनवड - एक गितयाग

ही गजाल १९९० वर्साची. लोकवेदाच्या वावराक नव्यानच खांद मारिल्लें हांव, म्हज्या मेळटा त्या इश्ट - मित्रांकडेन तांच्या वाठारांत आशिल्ल्या लोकवेदाची माहिती विचारीत भोंवतालें. अशाच इश्ट - मित्रांतलें एक नांव म्हळयार, श्री.प्रदीप सहकारी. तो रावपी केपें वाठांरांतल्या 'कावरें' गांवांत. हो कावरें गांव आनी ताच्या आशी कुशीचे हेर गांव, हे सैम - रानांच्या गोपांत वशिल्ले आनी गोंयच्या कुळंबी, गावडी, वेळीप, देसाय बी सारक्या जाती - जमातींनी वसणावळीक हाडिल्ले. स्वता भट समाजांतलो आसुनय प्रदीप सहकारीचे ह्या समाजातल्या लोकांकडेन जिव्हाळ्याचे संबंद. ताणें म्हाकां ह्या वाठारांतलो जायतो लोकवेद पुंजावपाक आदर केलो, लोकवेदाच्या विविध प्रकारांची माहिती दिली.

सगळ्यांत चड माहिती हांवें पुंजायली ती ह्या वाठारांतल्या 'कर्ले' गांवांतली. बनवड संकलनाच्या निमतान पयले फावट म्हजो ह्या गांवाकडेन संबंद आयलो. ह्या संबंदांतल्यान, ह्या गांवचे लोकसंस्कृतीचे खांपे जाळवणदार श्री. जानू गांवकर, श्री. बोमो गांवकर, श्री. बाबी गांवकार, श्री. पायक गांवकार, श्री. भिकारो गांवकार, श्री.सांगटू गांवकार बी जायत्या जाणांकडेन म्हजी वळख जाली. तांचेकडेन आशिल्लें लोकसंस्कृतीचें दायज आनी म्हज्या काळजांत ह्या दायजाविशीं आशिल्ली उत्सुकताय तसोच आदर, हांचें आपसुकच एक नातें जुळ्ळें. ह्या नात्यावरवीं ते म्हाका आपलें सोयरे मानूंक लागलें, म्हाका ते म्हजे घरचे दिसूंक लागले. मागीर आपलेकडेन आशिल्लें जाण्टेल्यांलें दायज म्हजेकडेन सोपोवपाच्या उद्देशांतल्यान ते म्हगेर येवंक - वचूंक लागले, हांव कर्ला वचपाचो दोंगर चडूंक लागलें. ह्या य्यो-वचपांतल्यान लोकवेदाच्या माणकां - मोतयांचें एक व्हड भांडार म्हज्या हाताक लागलें. ह्या भांडारांत गितां आसात, काणयो आसात, झाडो आसा, देव-देवतांची माहिती आसा, शिगम्याचीं कवनुलां आसात, गाराणें आसा, शिळोक आसात,पोरन्यो आचरण पध्दती आसात, पारंपारीक पिकावळीची माहिती आसा, वखदी झाडां-पाल्याचीं नांवां आसात. एक समग्र लोकजिवनच ह्या भांडारांत आसा.



'कर्ल' गांव हो 'पिर्ल' (क़ावरें पिर्ल) गांवच्या माथ्यार, दोंगराच्या शेंड्यार, कुळंबी (हिंदू) जमातीन वसयिल्लो गांव. गांव कसलो? खरेपणान १०-१५ घरांची ती एक वस्ती . बारा वर्सां आदीं जेन्ना हांव ह्या गांवात पाविल्लें, तेन्ना थंय लायट पावली नाशिल्ली. भौतेक सगळीं घरां कोलवाचीं आशिल्लीं. सैमाचे व्होटणेंतल्यान जें मेळटा आनी स्वता कश्टून दोंगर माथ्यांनी जी पिकावळ काडटा, ताचेरच हो गांव आपलो चरितार्थ चलयतालो. शारी झगमगटाकडल्यान कित्येक मैल पयस आशिल्ल्या ह्या गांवचो फातरान फातर आनी मातयेची चिमटेन चिमटी मात लोकवेद वदताली.

कोंकणी लोकसंस्कृताय गिरेस्त करपात कुळंबी जमातीचो शिंवाचो वाटो आसा. ही गोंयची एक आदिम जमात. शेंकड्यांनी वर्सांफाटीं हे जमातीन गोंयची भूंय वसयली. हे जमातीच्यो वसत्यो गोंयच्या दोंगर माथ्यांनी. भोंवतणच्या सैमांतल्यान मेळपी आनी पिकपी पिकावळीचेर स्वताची स्वंयसिध्द आनी संस्कृती संपन्न अशी जीण ही जमात जगपी. स्वंयसिध्द 'अर्थ' वेवस्थेवांगडाच हे जमातीची स्वताची न्यायवेवस्था आनी धर्मवेवस्था आसा. स्वताची मनरिझवणेचीं साधनां आसात. हे जमातीचे जाण्टे - म्हालगडे गांवचें प्रशासन चलोवपी, बुदवंत न्याय - नीत करपी, वेळीप देव-देवस्की सांबाळपी आनी गाणेली गायन करून देव-पितरांक होरावपी. वांगडा ल्हान व्हडाचें मनोरंजन करपी.

हो समाज सैमांतल्या अदृश्य शक्तींक भजपी. यातूविद्या, म्हणंजे जादू - फितीस मानपी. मेल्ल्यां - गेल्ल्यां पितरांक प्रसंगार होरावणी करपी. हो संवसार मृतखंड, पाताळखंड, कैलासखंड अशा तीन खंडांनी वांटिल्लो आसा, असो तांचेमदीं समज आसा. मृतखंड मनशांखातीर, पाताळखंड - शेशनागांखातीर, जाल्यार कैलास खंड - देव, गंधर्व, अप्सरा, किन्नर हांचेखातीर आसा. मृतखंडाच्यो आनी हेर खंडाच्यो जायण्यो करपाखातीर देवान 'जाणभास' वा 'सायमत' आशिल्ले तीन जाळवणदार नेमल्यात. पयलो 'शिळवटी जाण' हो मनशाचो देवाकडलो वेव्हार पळयता, दुसरो 'धवळो जाण' हो पाताळखंडातलो वेव्हार पळयता. जाल्यार तिसरो 'सायजाण' (घाडी) हो मेल्ल्यां - गेल्ल्यांकडलो आनी पितरांकडलो वेव्हार पळयता. पितरां ही यमखंडांत रावतात. 'यम' हो यमखंडाचो मुखेली. तो

ह्या पितरांक तांच्या तांच्या वर्गा आनी जाती प्रमाण बनवडींत दवरता... अशे तरेचे साबार समज ह्या समाजांत आसात. ह्या समजांचे बुन्यादीचेरूच तांचे दिसपट्टे वेव्हार चलतात, तांचीं कार्यां - भोगावळी जातात. तांची संस्कृती आकाराक येता.

हें जमातीच्यो सगळ्यो सण-परबो, विधी-भोगावळी ऋतुचक्राचेर चलपी. हातूंत गाराणें - सांगणेक जितकें म्हत्व, तितकेंच गितांक वा गायनाक. खरें तर गितांशिवाय तांचें खंयचेंच म्हत्वाचें कार्य पुराय जायना. गितां केन्ना लांबोडीं तर केन्ना मोडवीं. प्रसंगाचें गांभिर्य जितकें खर, तितकी गितांची लांबाय व्हड.

'बनवड' हें ह्या समाजांतलें धार्मिक महत्व आशिल्लें एक दिर्घकाव्य. हांचें गायन सुमार पांच तीं स वरां अखंडपणान चलता. मरणासंबंदीत वेग-वेगळ्या संस्कार प्रसंगार म्हळ्यार, 'बारावो', 'वर्सश्राध्द', 'म्हाळ', बी प्रसंगानी तें गायतात, वा एखाद्र्याच्या घरांत ताचें आयोजन करतात.

काळोख पडलो तशें बनवडीच्या गायनाक सुरवात जाता. मध्यान राती बारा वरांचेर हें गायन सोंपता. ज्या यजमानाच्या घरांत हें गायन चलता, ताच्या घरांतले सगळे ह्या गायनाक बसतात. सोयरे शेजारचेय जाण्टे म्हालगडे हातूंत वांटेकार जांवक येतात.

बनवडीचें गायन करपाचो हातखंडो वसतेवयल्या अमुकच एका घराण्याक आसलो तरी हेर घरवडीचे दादले गायनाक सूर धरतात. ते नदरेन तें एक सामुहीक गायन थारता.

ह्या गायनाक कांय धार्मिक बंदनां आसतात, बायलो - चेडवां गायन आयकूंक बसलीं तरी तांणी फुडें फुडें करपाचें नासता. गायन चालू आसतना कोणेंच मदीं उठून वचूंक जायना वा विडी - शिगार वोडूंक जायना अशें बंदन आसता. शेण सारोवन अनवाळे केल्ल्या जाग्यार बनवडीचें गायन करतात. गायनाक सुरवात करचे आदीं थंय दिवली वा दिवो पेटोवन दवरतात. नाल्ल - पड मांडटात. ही नाल्ल - पड मागीर गायन सोपतकच गाणेली घेवन वता.

मुखेल गाणेली आनी ताचे सांगाती देवाक हात जोडून, पिंजरीचो तिळो

घेवन गायनाक आरंभ करतात. पयलीं नमनाचो भाग आसता. हातूंत सुरवातेव गणरायाचें नांव घेवन नंतर 'श्रीरामाचें' स्मरण करतात. (श्री. वा.का. वाघ हांणे उजवाडायिल्ल्या 'बनवड' गिताची सुरवात श्रीरामाच्या स्मरणानच जाल्ली दिसता पळयात : 'बनवड' - श्री. वा.का. वाघ, परमळ - सार्वमत विजय विशेषांव १९६७. पान ५५)

विश्वाचीं पंच महाभूतां आनी हो संवसार रचूंक - तारूंक कारण आशिल्ल्ये अद्भूत शक्ती, हांकां ओंपिल्लीं, एकूण एकवीस नमनां बनवडींत मेळटात. नमनाच्य भागा उपरांत शारदेक होरायतात. शारदेन पाताळखंडांत जल्म घेतिल्लो आसत आनी ती कलेची, विद्येची, वाणीची देवी (भयण) अशा भावार्थान गावपी तिक आपले सभेर आपयतात.

"तिनसांजेच्या पारार भयणी उगडास जालो गो, तुजो उगडास जालो गो.

येवची गो भयणी हे म्हण भल्लेले सभेर गो,

हे म्हण भल्लेले सभेर गो.

शेणलें गो चुकलें घट यादीक दिवचें गो,

आमचे कथेच लावुंचे गो."

अशें म्हणून शारदेक होरावन, ती आपले सभेर पावल्या अशा भावार्थान गायनाच्या मुख्य भागाक हात घालतात.

"नमनेचो रे भाग आमी फाटीं सांडुया गा,

देवा फाटीं सांडुया गा.

ताळान रे ताळ सांगया, मुळान तें मूळ गा,

कथा हरीवंशयाची गा."

अशा उतरांनी मुख्य कथानकाच्या गायनाक सुरवात जाता आसली तरी हरिकथे बदला महाभारताची कथा सांगिल्ली मेळटा. (रामाशेवडय गायतात अशी माहिती मेळटा, पूण आतांमेरेन बनवड संकलनांचो जो वावर जाला, तातूंत फकत

महाभारताचीच कथा सांपडिल्ली आसा.)

बनवडीत मेळपी महाभारताचें कथानकय तशें संपूर्ण ना. हातूंत महाभारताचो एक लहानसोच भाग येता. तोवूय भाग ग्रांथिक महाभारतापरस थोडोसो वेगळो. तांतल्या पात्रांची नांवां, तशोच कांय घडणुको पळोवंक एकसारख्यो आसल्यो तरी तेमदींय फरक आसा. सुरवात 'गिरी परबतार' (हिमालय) एक भट - भटीण (किंदम मुनी आनी ताची बायल) 'मिर्ग' (हरण) आनी मिर्गिणीच्या (हरणीच्या) रूपांत रतीसुखांत मग्न आसात अशा प्रसंगान मेळटा. पंडू (पांडू) थंय आपल्या आनाबरोबर (भावाबरोबर, हांगा नांवाचो उल्लेख ना.) शिकारेक वता आनी अज्ञानान मिर्ग समजून भटाचेर बाण सोडटा. संगार पाविल्ल्या भटाचो पंडूच्या हातीन वध जाता. तेन्ना,

संगाच्या वेळार मेल्ल्यान भरतार वधिलो गा,

आपलो भरतार वधिलो गा.

संगाच्या रे वेळार पंडूचो प्राण काडुचो गा,

यमान प्राण काडुचो गा.''

अशें म्हुणून शिराप दिवन भटीण घोवाच्या सरणांत उडी घेवन आपलो जीव सोपयता.

ह्या उपरांत शिरापाच्या भंयान संवसारांतल्यान विरक्त जावन आपल्या अस्तुऱ्यां वांगडा वनात गेल्लो पंडू , पुत्रफळ ना म्हणून दुःखी जाल्लो पंडू, कुंती - मांद्रीक दुर्वास रुशीच्या वरांनी जाल्ले पांच पुत्र, वासनेन कुड्डो जावन शिरापाची याद विसरिल्लो पंडू, मांद्रीकडेन रती भोग घेतना पंडूक आयिल्लें मरण, मांद्रीचें सती वचप, कुंतीन धर्म-भीम-अर्जुन-सहदेव आनी नकुल ह्या पांच पुत्रांक घेवन अस्तनपुराक (हस्तिनापुराक) परतुवप, धर्मान आपल्या भावांक सांगाताक घेवन जाणट्यांचे सांगणेन राज्य चलोवप, हे मेरेनच्या कथानकांचें महाभारतांतले कथेकडेन सुत्र जुळसारकें आसा. तरी तातूंत थोडें आगळेंपण आसा. तत्कालीन समाजांतलें जिवन, तांचें मर्यादीत कल्पनाविश्व हांगां चित्रीत जाल्लें आसा. लोकवेदाचें एक

खाशेलेंपण म्हळ्यार, तातूंत राजा लेगीत साद्यां मनशांसारकीं लाकडां कापपाचीं आनी नांगोर धरपाचीं कामां करता, राणयो उदक-पाणी हाडून जेवणां करतात. हें तरेचें सादें - सुदें लोकजिवीत आनी कल्पनाविश्व बनवडींत पितारिल्लें आसा.

बनवडींत खंयच्याय कौरवाच्या नांवाचो वा धृतराष्ट्र-विदुराचो बी खंयच उल्लेख मेळना. पंडुबरोबर शिकारेक 'आन' वता असो प्रसंग आसा, पूण ह्या आनाचें नांव उगड जायना.

पंडूच्या मरणाउपरांत, बनवडींतली महाभारत कथा फुडलेतरेचें आगळेंच मोडण घेतना दिसताः

धर्म अस्तनपुराचें राज्य चलयता. बाकीचे चार पांडव , चार गडांनी रावन राज्याच्यो शिमो राखतात. सहदेव 'लिकांमळ', नकुल 'रावू - केतू दैत्य गड,' अर्जुन 'सुर्यगड' आनी भिम, 'भिकांपुर गड' राखता. सगळें सुशेगादीन वेवस्थीत चलता.

अशा वेळार पांडवांच्या गुरुक 'वशिश्ट रुशीक' सपन जाता.सपनांत गुरुक पांडवांचें पितर पंडू आजूनय भश्टात आसा म्हणपाचें समजता. पांडवांक हे विशीं गिन्यान नाशिल्ल्यान तांणी पितरांक सोडोवपाचो कांय याग केल्लो नासता. त्या वेळार गुरू उठाउठी येवन धर्माच्या कानार ही खबर घालता.तो आयिल्लेकडेन धर्माचो येवकार - बसकार घेना, साकर - पाणी घेना. तुमचें पितर भश्टांत आशिल्ल्यान, तुमी जातीभायर आसात. तेन्ना रासवळ्या तळ्यार वचून जातीचो मार्ग सोदात म्हणून ताका सुचयता. धर्म तडकाफडकी आपल्या चारूय भावांक साद घालता. भाव अंकांतून धांवत येतात. धर्म तांकां सगळी खबर सांगता. मागीर ते रासवळ्या तळ्यार वचून 'जातीचो' मार्ग सोदतात. थंय तांकां एक गुरू भेट्टा. तो पितराचे मुक्तीक धर्माक 'याग' मांडूंक सांगता. पांडव घरा परततात. धर्म सोडून बाकीचे चारूय जाण चार रथ घडोवन, चार दिशांनी वतात आनी राज्यां जिकतात. यागाखातीर जाय तें साहित्य (धन - द्रव्य) पुंजायतात. पुराय भारतखंड जिकून धर्माक 'सार्वभौम' राजा करतात. पांडव अस्तनपुराक परततकच धर्म 'याग' (यज्ञ) मांडटा पूण तो याग निर्फळ जाता. ताचें पितर सभेर येना. तेन्ना धर्म

पितराक हाडूंक यमखंडात वता. धर्म पुण्यवान आशिल्ल्यान कसलीच आडखळ येनासतना सृश्टीचो खांबो चडून, सुतामार्गान यमखंडात पावता. पूण थंय चोर - चांडाळ, चामार आनी कलवंत येवन ताची वाट आडायतात. धर्माबरोबर गेल्लो गुरू कपट—माया करून तांकां वाटेक लायता. धर्म यमघरा पावता. यमाक ताच्या येवपाचो हेतू कळटा. तो यमिणीक आपूण घरा ना म्हुणून ताका फट सांगूंक सांगता. तेन्ना फट उलयिल्ल्यान धर्माच्या सत्वान यमाक जोर भरता. यमाक आपली चूक कळटा. तो धर्माचे पांय धरता आनी तांका मळार व्हरून आपल्यो 'णवलोकां' बनवडी सोडून दाखयता. त्या बनवडींनी पंडूचो प्राण नासता. मागीर तो हरणा शिंगाचेर लिपोवन दवरिल्लो पंडुचो प्राण काडून धर्माक दिता. धर्म तो घेवन परत मृतखंडा येवपाक येता. येतना वाटेर विसव घेवंक बशिल्लेकडेन तो पंडूचो प्राण काडून सकल दवरता. तेन्ना यम तो चोरून घेवन परत वता. धर्माक तें कळटा. धर्म परत यमखंडांत वचून यमाक ताची जाप विचारता. तसो यम ताका समजायता. मेल्ल्या मनशांचे प्राण राखपाचें काम आपल्याक देवांनी नेमून दिल्लें आसा. जर आज तुका आपणें पितर दिल्यार, फाल्या हेर लोक येतले. तांकांय आपणें तांचीं पितरां दिवचीं पडटलीं , असल्यांनी सगल्याक अंधाधुंदी मात्तली. तेन्ना तूं अस्तनापुराक परत वचून 'शिराद' मांड आनी कावळ्याक 'काकावळ' घाल. कावळ्याच्या रूपान पंडूचो प्राणी थंय येवन पिंड व्हरतलो आनी तुका पितरां मेळटलीं. धर्म सांगितल्लेप्रमाण करता. ताचीं पितरां ताका मेळटात. तो खोशाल जावन दान - धर्म करता आनी पुण्य जोडटा.

पुण्यवान मनीस मरतकच सर्गांत वता जाल्यार पातकी मनीस 'यमकोणांत' (यमखंडा) वता. ह्या संवसारांत जल्माक आयिल्ल्या दर एका मनशान आपल्या जिवितांत मुयेक मारून तरी पातक केल्लें आसता. देखून मरतकच तो यमकोणांत पावता. यम त्या आत्म्याक थंय बनवडींत बंद करून दवरता. बनवडींत तो वायट कलमांच्या सांगाताक उरिल्ल्यान 'भश्टता' देखून ताका थंयच्यान सोडोवन परतो हाडपाची गरज आसता. जो पर्यंत ताचे वंशज हें काम करनात तो पर्यंत तांकां समाजांत थारो ना. तेवूय भश्टात उरतात. तांच्या घरांत लग्न-कार्य करूंक मेळना. देव-कार्य चलोवंक जायना. तांकां 'जात' पडटा (जातीभायर उरतात) असो

समज एका काळार गोंयच्या सरसकट सगळ्याच जाती - जमातींनी आशिल्लो. आज ताचो प्रभाव उणें जाला, तरी पुरायेन ना जाल्लो ना. आज कांय कडेन मुळच्या रितीक 'पर्याय' सोदिल्ले आसात. कुळंबी - गावडी जमातींत मात वयलेचालीची कडकसाण आयज दिसता.

बारावो, सोडपां, आनसूत,वर्सश्राध्द अशो भोगावळी आपल्या पितरांक सोडोवपाखातीर हे लोक करतात. बाराव्याचे विधीन मेल्ल्यांचो आत्मो मसुंडेंतल्या भुतां - खेतांच्या तावडींतल्यान सुटून यमखंडात पावता. 'सोडपांचे' भोगावळीन मेल्ल्यांच्या आत्माकडेन प्रसादाचेर उलोवन, पितरांक यमखंडांतल्यान मृतखंडांत हाडटात. अनसूत पुनवेक (भाद्रपद पुनव) 'अनसूत' वाडून पितरांक घरांत हेर पितरांवळींचे कुशीक जागो मेळून, तीं घरांत मायेक रावतात. वर्सश्राध्दान पितरां खऱ्या आर्थान मुक्त जाता. मागीर दर म्हयन्याळी उमास, श्राध्द, म्हाळ बी वाडून तांकां तृप्त करपाचें आसता, असो तांचेमदीं समज आसा.

पितरांक खूश करपाचे वयले भोगावळीचो वा 'यागाचो' एक भाग वा खासा एक खेरीत याग म्हणूनच बनवडीचें गायन केल्लें दिसता. वैदीक संस्कृतींत मंत्रांक जें म्हत्व, तेंच अवैदिक संस्कृतींत गितांक. बनवड गायनाचो उद्देशय हांगा तोच आसा. खंयचोय याग केल्ल्या उपरांत ताचें 'फळ' मेळटा. बनवडींतय तशेंच घडटा. हे वाटेन बनवडीचें गायन सोंपतां आनी ते वाटेन पितर जमिल्ल्यां मदल्या कोणाच्याय आंगार उबें जावन (अंवसर येवन) आपूण आपले मठयेंत पाविल्ल्याचो निर्वाळो दिता.

बनवडीक 'बंदोड',वा 'बोनोड' अशेंय म्हणिल्लें मेळटा. 'बनवड' हें उतर संस्कृत 'बंदिवत' ह्या उतरावेल्यान आयलेलें दिसता. बंदिवत म्हळ्यार बंदखणीत वो कादयेंत आसलेलो. अशें मत 'बनवड' ह्या आपल्या स्फूट लेखांत सर्गेस्त श्री. वा.का. वाघ हांणी उक्तायलां (पळयात : परमळ, १९६७. सार्वमत विजय विशेषांक, पान. ५५). ह्या लेखांत तांणी बनवडीचो नमनाचो ल्हानसोच भाग दिल्लो आसा.

म्हजें मत सर्गेस्त श्री. वा.का.वाघ हांच्या मताकडेन लागीं आसलें तरी थोडें

वेगळें आसा. म्हज्या मतान बनवड हें उतर 'बंदवाडी' उतरावेल्यान जल्माक आयलां. 'बंदवाडी' हें उतर बंदखण ह्या अर्थाकडेन जुळटा आसलें तरी ताका हांगाच्या लोकजीवनाकडेन संबंद आसा आनी देखूनच हांगाच्या लोकजीवनान तें स्विकारप साहजिकच आसा. बंद आशिल्ली वाडी (बंद + वाडी) ह्या उतरावयल्यान 'बंदवाडी' जावन, उपरांत 'बनवाडी' आनी नंतर 'बनवड' उतर घडलां.

'वाडी' हें उतर कुळंबी समाजांत घोळटिकेक आसा. गोरवांक आडोवन दवरपाक जी हांगा खुंटांची वंय करतात तिका वाडी म्हणटात. अशो वाडयो दोंगरार करून ते गोरवांक थंय सोडटात. हांगां गोरवां आडोवन उरतात, तांकां भायर सरूंक मेळना. गोरवांक बंद वाडींत दवरल्यात वा निकटें 'वाडीत घातल्यात' अशें वाक्‌प्रचार वा भास तांचेकडेन सांपडटा.

प्रस्तूत दिर्घकाव्यांत वर्णन केल्ली बनवड ही हे वाडयेसारखीच आसा. धर्म जेन्ना आपल्या पितरांक व्हरूंक येता तेन्ना तो ती कुराडीन फोडटा आनी तांतल्या लोकांक मळार सोडटा आनी धर्माक 'तुज्या पितरांक वळखून व्हर' म्हणून सांगता. हाचेवेल्यान हे वाडयेचें स्वरूप कळटा.

बनवडीचें गायन हें एक धार्मिक कार्य . मेल्ल्या पितरांक होरावपाखातीर तें करता आसलें, तरी तातुंतल्यान धार्मिक मुल्ल्यां आनी तत्वांचो प्रचार करपाचोय हावेस आसा. ज्यू धर्मात 'मोझेस' ह्या धर्मपुरूशाक देवाचो दृश्टांत ज़ालो आनी ताणें 'धा धर्माज्ञा' समाजाक सांगल्यो. बनवडींत अखेरेक 'बनवड' फोडपाच्या निमतान णवतरेच्या लोकांखातीर 'णव आचरण पध्दती' सांगल्यात. नेण्टीं बाळकां, दिणे चेडे, आंकवार चेडवां, वयावयले दादले, वयावयल्यो बायलो, रांडव दादले, रांडव बायलो, जाण्टे दादले, जाण्टो बायलो अशे हे णवतरेचे लोक आसात.

बनवडींत सारक्यांतल्यान सारकें जल्माक येता, ह्या यातुतंत्राचो वापर केल्लो आसा. पांडवांच्या पितरांक होरावप, म्हणजेच आपल्या पितरांक होरावप. पांडवांचीं पितरां सभेर येवप, म्हणजे आपलीं पितरांच सभेर येवप, असो विस्वास ती रचप्याच्या मनांत आशिल्लो दिसता. पोरन्या काळासाकून मनशाक दैवीपुरूश, पुराणपुरूश हांचें आकर्शण व्हड. आपलें जिवीतय तांणी घाल्ल्या मार्गान जगपाची तांची धडपड . हे धडपडींतल्यान तांणी बनवड रचतना महाभारताची कथा

घेतिल्ली आसा.

सर्गेस्त श्री. वा. क. वाघ हांणी केल्लें आनी उजवाडायील्लें एक स्फुट संकलन सोडल्यार 'बनवड' लोककाव्य प्रकाराचो खास असो कांयच वावर जाल्लो ना. प्रस्तूत वावर हो पयलेच फावट ताचें स्पश्ट रूप अभ्यासकांमुखार घेवन येता. तरी ताच्या खोलायेच्या अभ्यासाखातीर, ताचीं आनीकय कांय रुपां संकलीत जावपाची गरज आसा.

ह्या पुस्तकांत उजवाडायिल्ले बनवडीचे मुखेल गायक श्री. बोमो गांवकार आनी सांगाती गायक श्री. जानू गांवकार, श्री. पायक गांवकार, हांचें हांव व्यक्तीगत तशेंच, अकादेमीच्या लोकवेद विभागाचे वतीनय भोव उपकारी. लोकसंस्कृतीच्या ह्या 'जाणांनी' थळ — काळाचीं बंदनां आशिल्लें हें काव्य आमच्या कामाचें म्हत्व लक्षांत घेवन मुद्दाम आमचे खातीर तीथ - प्रसंग नासतनाय गायलें. कर्लेंचो दोंगर घडये आमच्यांनी चडूंक जावचोना, अशा समजान तेच दोंगर देंवन मुळसांतल्या 'पिर्ल' गांवात आयलें. पिर्लेंचे एक ग्रामस्थ श्री. सत्यवान देविदास हांणी आपल्या घरांत हे कार्यावळीचें आयोजन करुंक जागो दिलो. सगळे गाणेल, तांच्या वांगडचे, अकादेमीचो आमचो पंगड जातूंत हांव, अकादेमीचे त्या वेळावेलें सचीव श्री. वि.म.धुमे, फोटोग्राफर श्री.कृष्णनाथ करमली, ड्रायव्हर श्री.सेबास्तियांव आरावझो बी मेळून सुमार वीस लोकांच्या च्या-पाण्याचें आनी जेवणाचें आयोजन तांणी केलें. अकादेमीचे वतीन जेवणा-खाणाच्या खर्चाखातीरचे दिवंक केल्ले पयशेय घेवंक नात. आदली इल्ली लेगीत वळख-पाळख नासतनाय तांणी हें सगळें आमचेखातीर केलें. तांच्या घरच्यांनीय आमची बरी उठ-बस केली. श्री. प्रदीप सहकारीय ते दीस आपलीं कामां सोडून आमचे बरोबर रावलो. ह्या सगळ्यांचे उपकार मानता तितलें थोडे! तांणी केल्लो आदार म्हणजे संस्कृती जतनाच्या आमच्या यागांत तांणी ओपिल्ल्यो समिधा, अशेंच हांव मानतां.

**जयंती नायक**
संशोधन सहाय्यक,
लोकवेद विभाग
गोवा कोंकणी अकादेमी

बोरी, फोंडें गोंय
ता. २२/१०/२००२

# कर्लेची बनवड

गावपी : श्री. बोमो गांवकार
सांगाती : श्री. जानू गांवकार,
श्री. पायक गांवकार

ॐ गणराया म्हण नाम तो सोबणार असे गा,
लोकां विचार तो जाती गा.

जये [1] रामा शिवरामा [2] सुमरण मांडिलां गा,
देवांनी सुमरण [3] बोलला गा.

सदाच्या शिवा [4] ह्या म्हण उगवत्या देवा गा,
ह्या म्हण उगवत्या देवा गा.

आदीं रे नमन वंदूं आदिया नाथा [5] गा,
ह्या म्हण जगाच्या देवा गा.

दुसरें रे नमन वंदूं पाताळी शेखा [6] गा,
ह्या म्हण आकाशी मेघाला.

---

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| १. जये | = | जय | २. शिवरामा | = | श्रीरामा |
| ३. सुमरण | = | स्मरण | ४. सदाच्या शिवा | = | सदाशिवा |
| ५. आदियाक नाथा | = | आदिनाथा | ६. शेखा | = | शेशा, शेषा |

तिसरें रे नमन वंदूं धरतरी माये गा,
हे म्हण काळे गा भुंयेला.

चवथें रे नमन वंदूं श्री गणपती गा,
ह्या म्हण श्री गजानना देवा गा.

पांचवे रें नमन वंदूं पंचानना देवा गा,
ह्या म्हण म्हादेवा देवा गा.

सवें रे नमन वंदूं शडानंदा देवा गा.
ह्या म्हण शडानंदा देवा गा.

सातवें रे नमन वंदूं सप्त रूशींक गा,
ह्या म्हण सप्त रूशींक गा.

आठवें रे नमन वंदूं आठोळ्या कृशणाक गा
ह्या म्हण आठोळ्या कृष्णाक गा.

णववें रे नमन वंदूं णवखंड धन्नी गा,
ह्या म्हण णवखंड धन्नी गा.

धावें रे नमन वंदूं दशावतारांक गा,
ह्या म्हण दशावतारांक गा.

अकरावें रे नमन वंदूं इश्वामित्र रूशीक गा,
ह्या म्हण इश्वामित्र रूशीक गा.

बारावें रे नमन वंदूं बाराखंड सागरा गा,
ह्या म्हण बाराखंड सागरा गा.

तेरावें रे नमन वंदूं तेलाचे धारे गा,
ह्या म्हण खेळत्या विरांक गा.

चौदावें रे नमन वंदूं चौदाव्या रत्नांक गा,
ह्या म्हण चौदाव्या रत्नांक गा.

पंदरावें रे नमन वंदूं पोनेळी – दुर्गांक गा,
ह्या म्हण पोनेळी – दुर्गांक गा.

सोळावें रे नमन वंदूं सोळा सिद्धांक गा,
ह्या म्हण सोळा सिद्धांक गा.

सतरावें रे नमन वंदूं सतरा कोटी देवां गा,
ह्या म्हण सतरा कोटी देवांक गा.

अठरावें रे नमन वंदूं विष्णुदेवाक गा,
ह्या म्हण विष्णू देवाक गा.

इकुणिसावें रे नमन वंदूं बरम्या [१] देवाक गा,
ह्या म्हण बरम्या देवाक गा.

---

१. बरम्या = ब्रह्म्या

इसावें रे नमन वंदूं चांद – सुर्याक गा,
ह्या म्हण चांद – सुर्याक गा .

इकिसावें रे नमन वंदूं शारदे भयणी गा,
हे म्हण शारदे भयणीक गा .

शारदा गो आयली ही म्हण पाताळखंड राज्यां गा,
ही म्हण पाताळखंड राज्यां गा .

शारदेन गो जल्म घेतला पाताळखंड राज्यां गा,
हो म्हण पाताळखंड राज्यां गा .

जेवन गो खावन शारदा निंद्रा न्हिदली गा,
पलंगार निंद्रा न्हिदली गा .

ते दिसा रे मोटी देवांची सभा बसली गा,
कोणा काळ सभा बसली गा .

वाती रे जोती लावन देवांचें किर्तन बोलती गा,
देवांचें किर्तन बोलती गा .

ह्यावू रे वेळार देवांक याद जाली गा,
शारदे याद जाली गा .

ह्यावू रे वेळार देवांनी शारदे ध्यान मांडिलां गा,
देवांनी शारदे ध्यान मांडिलां गा .

देवांचो रे शाद शारदे मनाक पडलो गा,
शारदे मनाक पडलो गा.

न्हिदलेली गा शारदा ही म्हण गडबडी उठली गा,
शारदा गडबडी उठली गा.

आपल्या गा रंगम्हालांत शारदा शितोड [1] घालती गा,
शारदा शितोड घालती गा.

सारन गा शिंपल्यो [2] घेवन घर झाडिती गा,
शारदा घर झाडिती गा.

कोयर गा कोचोप शारदेन भायर टाकिलो गा,
शारदेन भायर टाकिलो गा.

नाग गा झरी [3] पाणया शारदा चलोन गेली गा,
शारदा चलोन गेली गा.

पांच गा रंगपाणी न्हावोंक लागली गा,
शारदा न्हावोंक लागली गा.

न्हावोन माखून शारदा अनवाळी जाली गा,
शारदा अनवाळी जाली गा.

---

१. शितोड = शिताडो २. शिंपल्यो = सुपल्यो
३. नाग गो झरी = नागझरी

आपल्या गा रंगम्हालांत शारदा चलोन आयली गा,
शारदा चलोन आयली गा.

लावल्यो चावयो आपल्यो उगावल्यो [1] पेटो गा,
शारदेन उगावल्यो पेटो गा.

पितांबरां – जवळां [2] आपल्या घडी मोडिल्या गा,
शारदेन कांस नेटिली गा.

बावन – बिरड्यां चोळयो चपळा घातल्यो गा,
शारदेन चपळा घातल्यो गा.

णव गा रत्नांहार गळीं घातलो गा,
शारदेन गळीं घातलो गा.

पांयांचे घुंगूर शारदेन, पांयांत घातिले गा,
शारदेन पांयांत घातिले गा.

आपलो गा तंबुरो शारदेन गळीक घातिलो गा,
शारदेन खांदाक लायिलो गा.

हातांतल्यो तिपऱ्यो शारदेन हातांत घेतिल्यो गा,
शारदेन हातांत घेतिल्यो गा.

---

१. उगावल्यो = उगडल्यो     २. जवळां = वस्त्रां

सर्वय गा शिरंगार आपल्या आंगार न्हेशिली गा,
शारदा आपल्या आंगार न्हेशिली गा.

इतलें गा करून शारदा भायर सरिली गा,
शारदा भायर सरिली गा.

देवांचे गा सभे शारदेन मार्ग धरिलो गा,
शारदेन मार्ग धरिलो गा.

देवांचे गा सभेर शारदा चलोन गेली गा,
शारदा चलोन गेली गा.

देवांचे गा सभेर शारदा किर्तन करिती गा,
शारदा किर्तन बोलती गा.

देवांचे रे सभेर शारदा वाजोवंक लागली गा,
तंबुरो वाजोवंक लागली गा.

देवांचे रे सभेर शारदा नाचोंक लागली गा,
शारदा नाचोंक लागली गा.

देवांचे रे सभेर शारदा गोंदोळ घालिती गा,
शारदा गोंदोळ घालिती गा.

तेत्तीस रे कोटी देव हे झाकोळन पडले गा,
शारदेक झाकोळन पडले गा.

त्या दिसा रे किर्तना देवांक गोडी लागली गा,
शारदे गोडी लागली गा.

ह्यावू रे वेळार देव सवोंक लागले गा,
देव सवोंक लागले गा.

ह्यावू गो वेळा तुका जाय तें मोल माग गो,
शारदे जाय ते मोल माग गो.

धन रे दौलत तुमची आमकां ती नको गा,
देवांनो आमकां ती नको गा.

दिवचो रे, दिवचो आमकां सुर्य भरतार गा,
देवांनो सुर्य भरतार गा.

सुर्य गो भरतार शारदे मागोंक नाका गो,
शारदे मागोंक जायना गो.

सुर्य गो भरतार दिल्यार मद मारतलो गो,
तुमी बसोन गिळटलीं गो.

दीस रे आसलो सारी रात जातली गो,
शारदे रात जातली गो.

सुर्य गो सोडून तूं म्हण आनी कितें माग गो,
शारदे आनी कितें माग गो.

सुर्य रे सोडून तुमचें आनी कांय नको गा,
आमकां आनी कांय नको गा .

दिवचो रे दिवचो आमकां सुर्य भरतार गा,
देवांनो सुर्य भरतार गा .

भल्लेले गो सभेर आमचो बुदवंत नायी गो,
शारदे बुदवंत नायी गो .

गणपती गो नासतना आमच्यांनी सांगोंक जायना गो,
तुका दिवोंक जायना गो .

ह्यावू रे वेळार शारदे खुबळावन दिलें गा,
देवांनी खुबळावन दिलें गा .

खुबळावन घेवन शारदा मृतखंडा आयली गा .
शारदा मृतखंडा आयली गा .

मृतखंडा  येवन शारदेन संवगड्यो घेतल्यो गा,
चौग संवगड्यो घेतल्यो गा .

चौग गा संवगड्यो घेवन किर्तन बोलती गा,
शारदा किर्तन बोलती गा .

इतलें गा करून शारदा चलोंक लागली गा,
मार्गार चलोंक लागली गा .

तीन गा मार्गा तोंकार उबी रावली गा,
शारदा उबी रावली गा.

तीन रे मार्ग गेल्यांत तीन खंडांत गा,
ते म्हण तीन खंडांत गा.

त्यावू रे मार्गार आपलें किर्तन मांडिती गा,
शारदा किर्तन मांडिती गा.

पयलो रे भाग गेला भटां – बामणांक गा,
हो म्हण शार – गांव भोवंक गा.

दुसरो रे भाग गेला दंड करप्यांक गा,
ह्या म्हण नीत करप्यांक गा.

तिसरो रे भाग गेला काम करत्या लोकां गा,
ह्या म्हण कश्ट – कामत्यांक गा.

इतलें गा करून शारदा पाताळखंडांत गेली गा,
शारदा पाताळखंडांत गेली गा.

आमची रे सभा बसल्या मृतखंड राज्यां गा,
ह्या म्हण मृतखंड राज्यां गा.

तिनसांजेच्या पारार भयणी उगडास जालो गो,
तुजो उगडास जालो गो.

येवची गो भयणी हे म्हण भल्लेले सभेर गो,
हे म्हण भल्लेले सभेर गो.

शेणलें गो चुकलें घट यादीक दिवचें गो,
आमचे कथेक लावुंचें गो.

नमनाचो रे भाग आमी फाटी सांडुया गा,
देवा फाटीं सांडुया गा.

ताळान रे ताळ सांगया, मुळान तें मूळ गा,
कथा हरिवंशयाची [१] गा.

फुडें रे कथा लावया भटांची कथा गा,
ह्या म्हण भटांची कथा गा.

भट रे भटीण दोगां काय करिती गा,
संवसारा काय करिती गा.

कशें रे करून भटांचें पोट भरना गा,
जगांत ह्या पोट भरना गा.

भटपणां रे केल्यार भटांचें पोट भरना गा,
भटांचें पोट भरना गा.

---

१. हरिवंशयाची = हरिवंशाची

भीक रे मागल्यार भटां भीक मेळना गा,
भटां धंदो करिती गा.

बारा रे तरांचो धंदो रोवूंक लागलीं गा,
भटां रोवूंक लागलीं गा.

शेत रे धंदो केल्यार पोट भरना गा,
भटांचें पोट भरना गा.

गोंडो रे पाकोळ रोयल्यार पोट भरना गा,
भटांचें पोट भरना गा.

उडीद रे कुळीद रोयल्यार पोट भरना गा,
भटांचे जल्मा पोट भरना गा.

येतभर रे पोटाक लागून खटपट गा,
भटांचें पोट भरना गा.

भट रे भटीण दोगां येवजूंक लागलीं गा,
दोगां येवजूंक लागलीं गा.

ह्या जल्मा रावोन आमचें पोट भरना गा,
जल्मा पोट भरना गा.

भट रे भटीण दोगां येवजूंक लागलीं गा,
दोगां येवजूंक लागलीं गा.

कोणाच्या तर जल्मा गेल्यार पोट भरती गा,
देवा सूख मेळती गा.

माजरच्या रे जल्मा गेल्यार हुंदीर खावूंक जाये गा,
देवा जमीन खणोंक जायी गा.

कोणाच्या रे जल्मा गेल्यार पोट भरती गा,
देवा सूख मेळती गा.

सुण्याच्या रे जल्मा गेल्यार वारें हेडूंक जायें गा,
देवा उणेंपण येती गा.

कोणाच्या रे जल्मा गेल्यार पोट भरती गा,
देवा सूख मेळती गा.

दिवडाच्या रे जल्मा गेल्यार घोलींत रावोंक जायें गा,
देवा हुंदीर मारोंक जायें गा.

कोणाच्या रे जल्मा गेल्यार पोट भरती गा,
देवा सूख मेळती गा.

गायेच्या रे जल्मा गेल्यार दूद काडिती गा,
ते काय धंदो करिती गा.

कोणाच्या रे जल्मा गेल्यार पोट भरती गा,
देवा सूख मेळती गा.

बैलाच्या रे जल्मा गेल्यार जोताक बांदिती गा,
देवा दंडती ज्यास्ती गा.

बारा रे तरांक देवा तीं येवजूंक लागलीं गा,
भटां येवजूंक लागलीं गा.

खंयचो रे देवा तो जल्म भटांक पसंद पडना गा,
भटांक पसंद पडना गा.

कोणाच्या रे जल्मा गेल्यार पोट भरती गा,
देवा सूख मेळती गा.

हरणाच्या रे जल्मा गेल्यार पोट भरती गा,
देवा आमचें सूख मेळटलें गा.

भट रे भटीण दोगां भायर सरलीं गा,
देवा भायर सरलीं गा.

आपलें रे घरदार सोडून गेलीं गा,
देवा सोडून गेलीं गा.

आपल्या रे घरदारा फाट केली गा,
भटांनी फाट केली गा.

परदेसा राज्यां रे भटांनी फुडो ती केली गा,
भटांनी फुडो ती केली गा.

गिरी रे परबता दोंगरा चलोन गेलीं गा,
भटां चलोन गेलीं गा.

गिरी रे परबता रानाक भोवोंक लागलीं गा,
भटां भोवोंक लागलीं गा.

हरणाच्या रे जल्मा भटांनी रूप धारण केलां गा,
भटांनी रूप धारण केलां गा.

हरणाच्या रे जल्मा भटां चरोंक लागलीं गा,
भटां चरोंक लागलीं गा.

हरणाच्या रे जल्मा भटांनी पोट भरिलां गा,
भटांनी पोट भरिलां गा.

हरणाच्या रे जल्मा भटां सूख मेळलें गा,
भटां सूख मेळलें गा.

परबताचीं मिर्गां हीं म्हण परबता आसूं गा,
हीं म्हण परबता आसूं गा.

आतां रे यावू आमी अस्तनपुरा [१] राज्यां गा,
ह्या म्हण अस्तनपुरा राज्यां गा.

---

१. अस्तनपुर = अस्तिनापुर, हस्तिनापुर

अस्तनपुरा 'राज्यांत हो म्हण पंडू तो राजा गा,
हो म्हण पंडू तो राजा गा.

जये रामा, शिवरामा सुमरण मांडिलां,
देवांनी सुमरण बोललां गा.

पंडू रे राजा आपलें राज्य चलयती गा,
आपलें राज्य चलयती गा.

पंडू रे राजाक ह्यो म्हण दोन अस्तुऱ्यो गा,
ह्यो म्हण दोन अस्तुऱ्यो गा.

कुंती रे मांद्री ह्यो म्हण दोन अस्तुऱ्यो गा,
ह्यो म्हण पंडुल्यो दोन अस्तुऱ्यो गा.

आपलो रे परधन [१] घेवन राज्य चलयती गा,
पंडू राज्य चलयती गा.

याग रे मांडून पंडून पुण्य जोडिलें गा,
पंडून पुण्य जोडिलें गा.

सारें रे भारतखंड पंडू हातींक गा,
हें म्हण पंडू हातींक गा.

---

१. परधन = प्रधान

इतलें रे करतापासून भोव दीस गेले गा,
देवा भोव वर्सां गेलीं गा.

बारा बारा रे चोइस वर्सां भोवंडी याद जाली गा,
पंडू भोवंडी याद जाली गा.

बारा बारा रे चोइस वर्सांनी भोवंडी वयता गा,
पंडू भोवंडी वयता गा.

आनू[1] रे दादा आमी भोवंडी वयचें गा,
फाल्यां भोवंडी वयचें गा.

जेवन रे खावन दोगां निंद्रा घेतली गा,
दोगां निंद्रा घेतली गा.

सकाळीं रें उठोन दोगूय भोवंडी सुंवार जाले गा,
दोगूय भोवंडी सुंवार[2] जाले गा.

बाण रे भरण्यो आपल्यो फाटीक मारिल्यो गा,
पंडून फाटीक मारिल्यो गा.

आपलें रे धोनुष्य पंडून खांदाक लायिलें गा,
पंडून खांदाक लायिलें गा.

---

१. आनू = भाव    २. सुंवार = स्वार

आनू रे पंडू दोगय मार्गा लागले गा,
दोगय मार्गा लागले गा.

गिरी रे परबता दोगांनीय मार्ग धरिलो गा,
दोगांनीय मार्ग धरिलो गा.

गिरी रे परबतार ही म्हण भोवंडी घातिली गा,
पंडून भोवंडी घातिली गा.

सारो रे दोंगर भोंवल्यार पावलट नायी गा,
हरणा पावलट नायी गा

तानेन रे तानेले देवा, भुकेन भुकेले गा,
देवा सरगदन जाले गा.

चांद रे सुर्य देव ते अस्तबना [1] गेले गा,
देवा अस्तबना गेले गा.

त्यावू रे वेळार दोगांनी मार्ग धरिलो गा,
घरचो मार्ग धरिलो गा.

वाटेन चलता दोगय बोलोंक लागले गा,
दोगय बोलोंक लागले गा.

---

१. अस्तवना = अस्ताक

भोवंडीचो मार्ग दादा मोकळो तो नायी गा,
आमचो मोकळो तो नायी गा.

चलत बोलत दोगय अस्तना पावले गा,
दोगय अस्तनपुरा पावले गा.

हात रे पांयां आपलो चोवकाळ घेतलो गा,
चोवकाळ घेतलो गा.

जेवन रे खावन बरी निंद्रा घेतली गा,
गोढ निंद्रा न्हिदली गा.

सकाळीं रे उठून पंडून कोण मौज केली गा,
चावड्यां कोण मौज केली गा.

येळकारा – मुळकारा पंडून चावड्यां आपयले गा,
आपल्या चावड्यां आपयले गा.

मोठो रे परसंग पंडू परवूंक लागलो गा,
पंडू परवूंक लागलो गा.

दायीं रे उजयी फुलां मागोंक लागलो गा,
पंडू मागोंक लागलो गा.

भोवंडीचो रे मार्ग आपलो मोकळो तो केलो गा,
पंडून मोकळो तो केलो गा.

इतलें रे करून पंडू भोवंडी सुवार जालो गा,
पंडू भोवंडी सुंवार जालो गा.

बाण रे भरणी आपल्यो फाटीक मारिल्यो गा,
पंडून फाटीक मारिल्यो गा.

आपलें रे धोनुष्य पंडून खांदाक लायिलें गा,
पंडून खांदाक लायिलें गा.

आनू रे पंडू दोगय चलोंक लागलें गा,
परबत चलोंक लागले गा.

गिरी रे परबता पंडून भोवंडी घातली गा,
पंडून भोवंडी घातली गा.

सारो रे दोंगर भोंवल्यार पावलट नायी गा,
मिर्गा पावलट नायी गा.

तानेन तानेले दोगी, भुकेन भुकेले गा,
देवा सरगदन जाले गा.

चांद रे सुर्य देव अस्तबना गेले गा.
देवा अस्तबना गेले गा.

त्यावू रे वेळार दोगय देवोंक लागले गा,
परबत देवोंक लागले गा.

खाली रे देवोन येयल्यार तळ्यार पावले गा,
दोगय तळ्यार पावले गा.

उदक रे पाणी पिवन सवशीद जाले गा,
ते म्हण सवशीद जाले गा.

त्यावू रे वेळार तळ्यार पळोवंक लागले गा,
दोगय पळोवंक लागले गा.

त्यावू रे वेळार तळ्यार मिर्गा पावलट मेळ्ळी गा,
पंडू पावलट मेळ्ळी गा.

परबताचीं मिर्गा दोगां हांगा तीं येती गा,
पाणया हांगा तीं येती गा.

आना रे दादा आमी वोगी रावया गा,
दादा वोगी रावया गा.

त्यावू रे वेळार दोगय उडप [१] घालती गा,
तळ्यार उडप घालती गा.

शिर्शाच्या [२] रे रूक्षार पंडून उडप घातिलां गा,
पंडून उडप घातिलां गा.

---

१. उडप = झाडाचेर वयर बसपाखातीर घाल्लो माळो
२. शिर्शिच्या = शिशाच्या

आनू रे पंडू दोग उडपार बसले गा,
दोगय उडपार बसले गा.

सांजेचो रे पार हो म्हण आनू राखती गा,
उडपार आनू राखती गा.

आनूचो रे पार हो म्हण राखोन सोंपलो गा,
उडपार राखोन सोंपलो गा.

फाल्या वयल्या रे पारार पंडू उठोन बसलो गा,
उडपार उठोन बसलो गा.

फाल्या वयल्या रे पारार मिर्गा खाली देंवता गा,
पाणयां खाली देंवता गा.

परबताचीं मिर्गां हीं म्हण तळ्यार पावलीं गा,
मिर्गां तळ्यार पावलीं गा.

उदक रे पाणी पिवन सवशीद जालीं गा,
मिर्गां सवशीद जालीं गा.

त्यावू रे वेळार मिर्गां उडी ती करिती गा,
मिर्गां नाचोंक लागलीं गा.

ह्यावू रे वेळार पंडून बाण सोडिलो गा,
मिर्गांचेर बाण सोडिलो गा.

पयलो रे बाण सोडलो, पाताळाक गेलो गा,
पंडूचो पाताळाक गेलो गा.

दुसरो रे बाण सोडलो कवळासा[१] गेलो गा,
पंडुचो कवळासा गेलो गा.

तिसरो रे बाण सोडलो गांडी पोंदच्यान गेलो गा,
मिर्गा गांडी पोंदच्यान गेलो गा.

चवथो रे बाण सोडलो फाटी वयल्यान गेलो गा,
मिर्गा फाटी वयल्यान गेलो गा.

ह्यावू रे वेळार दोगां नवलां पडले गा,
दोगां नवलां पडले गा.

परबताचीं मिर्गा हीं म्हण तळ्यार नाचती गा,
मिर्गा तळ्यार नाचती गा.

ह्यावू रे वेळार मिर्गा संगार पावलीं गा देवा,
संगार पावलीं गा.

ह्यावू रे वेळार पंडून बाण सोडिलो गा,
हरणा बाण सोडिलो गा.

---

१. कवळासा - कैलासा

संगाच्या रे वेळार पंडून मिर्ग वधिलो गा,
पंडून मिर्ग वधिलो गा.

त्यावू रे वेळार भटीण शिराप घालिती गा,
पंडू शिराप घालिती गा.

आपलो घात केलो तसो पंडू घात करचो गा,
यमान पंडू घात करचो गा.

मिर्गिणीच्या पिटार मिर्ग सुंवार तो जालो गा,
देवा सुंवार तो जालो गा.

संगाच्या वेळार मेल्ल्यान भरतार वधिलो गा,
आपलो भरतार वधिलो गा.

संगाच्या रे वेळार पंडूचो प्राण काडुचो गा,
यमान प्राण काडुचो गा.

ह्यावू रे वेळार हें म्हण दीस – फालें जालें गा,
देवा हें म्हण दीस – फालें जालें गा.

ह्यावू रे वेळार पंडू पळोवंक लागलो गा
मिर्गा पळोवंक लागलो गा.

एका रे आंगान पळयल्यार भटां दिसती गा,
मिर्गा दिसती गा.

आपल्या रे हातीन देवा भटां वध जालो गा,
देवा भटां वध जालो गा.

आपल्या रे हातीन देवा पातक घडलें गा,
देवा पातक घडलें गा.

ह्यावू रे वेळार पंडू बापडो तो जालो गा,
उडपार बापडो तो जालो गा.

भटांचो रे शिराप घेवन चलोंक लागलो गा,
अस्तना चलोंक लागलो गा.

अस्तना रे वचोन पंडू दुखांत पडलो गा,
पंडू दुखांत बसलो गा.

ह्यावू रे वेळार भटीण काय करिती गा,
तळ्यार काय करिती गा.

खोडां रे बोडां पुनोवन शरण [1] दाळिलां गा,
भटणीन शरण दाळिलां गा.

ह्यावू रे शरणार भटणीन भरतार ठेविलो गा,
आपलो भरतार ठेविलो गा.

---

१. शरण = सरण

ह्यावू रे शरणाक भटणीन उजो लायिलो गा,
भटणीन आग लायिला गा.

ह्यावू रे वेळार भटीण येवजूंक लागली गा,
भटीण येवजूंक लागली गा.

सुखांचे दीस हे म्हण खंयी ते गेले गा,
आपले खंयी ते गेले गा.

लक्षाचे प्राणी आपले खंयी ते गेले गा,
देवा खंयी ते गेले गा.

घोव नासले बायले जगांत मान तो नायी गा,
देवा मान तो नायी गा.

आपूण रे हांगा रावोन काय करूंक गा,
देवा काय करूंक गा.

इतलें रे येवजून भटणीन परदक्षणा[१] काडल्यो गा,
शरणा परदक्षणा काडल्यो गा.

आपलो रे भरतार गेल्ले वाटेन आपूण वयतली गा,
देवा आपूण वयतली गा.

---

१. परदक्षणा - प्रदक्षणा

त्यावू रे शरणा भटणीन उडी घेतली गा,
आपणें उडी घेतली गा.

दोगांच्यो ह्यो कुडी म्हण खिणगुप्त जाल्यो गा,
देवा खिणगुप्त जाल्यो गा.

दोगांचे रे प्राणी हे म्हण चलोंक लागले गा,
मार्गा चलोंक लागले गा.

दोगांचे रे प्राणी हे म्हण वाट चलती गा,
यमखंडा वाट चलती गा.

दोगांचे रे प्राणी पावल्यांत यमखंडा राज्यां गा,
हे म्हण यमखंडा राज्यां गा.

भटांचे रे प्राणी हे म्हण बोलोंक लागले गा,
हे म्हण बोलोंक लागले गा.

ह्यावू रे वेळार भटीण यमा शिकाय[१] सांगती गा,
भटीण शिकाय सांगती गा.

एक रे दोन रे करून सांगोंक लागली गा,
भटीण सांगोंक लागली गा.

---

१. शिकाय – कागाळ, शिकायत

आपलो घात केला तसो पंडू घात करचो गा,
यमा पंडू घात करचो गा.

मिर्गिणिच्या पिटार मिर्ग सुंवार तो जालो गा,
यमा सुंवार तो जालो गा.

संगाच्या वेळार आपलो भरतार वधिलो गा,
यमा भरतार वधिलो गा.

संगाच्या वेळार पंडुचो प्राण काडुचो गा,
पंडुचो प्राण काडुचो गा.

पंडुचो प्राण काडून वनाक सोडुचो गा,
यमा वनाक सोडुचो गा.

हरणाच्या रे शिंगार पंडूचो प्राण सोडुचो गा,
यमा प्राण सोडुचो गा.

त्यावू रे प्राण्या यमा चक्र सोडुचें गा,
यमा चक्र सोडुचे गा.

रात रे दीस चक्र चालू ठेविचें गा,
प्राण्या चालू ठेविचें गा.

ह्यावू रे वेळार प्राण्या हाताक धरिलें गा,
यमान हाताक धरिलें गा.

भटांचे रे प्राणी दवल्ल्या णवलोकां बनवडी गा,
यमान णवलोकां बनवडी गा.

अस्तनपुरा राज्यांत चिंता करितो गा,
पंडू चिंता करितो गा.

पुत्र रे फळ हें म्हण जल्माक नायी गा,
हें म्हण पंडू जल्माक नायी गा.

ह्यावू रे वेळार पंडू येवजूंक लागलो गा,
पंडू येवजूंक लागलो गा.

ह्यावू रे वेळार कुंती फुड्यांक येयली गा,
पंडूच्या फुड्यांक येयली गा.

कुंती रे राणी आपल्या भरतारा सांगता गा,
हें म्हण भरतारा सांगता गा.

तुयें रे उतर दिल्यार पुत्रफळ जाता गा,
आमकां पुत्रफळ जाता गा.

ह्यावू रे वेळार पंडू खुशाल तो जाता गा,
पंडू खुशाल तो जाता गा.

दुर्वास रे रूशीन हे म्हण पांच वर दिले गा,
कुंती पांच ते मंत्र गा.

चार रे वर तेजे शिल्लक ते आसा गा,
ते म्हण शिल्लक ते आसा गा.

पांच रे वरांक आपणें जप तो केलो गा,
कुंतीन जप तो केलो गा.

तीन रे वर आपणें जपून घेतिले गा,
कुंतीन जपून घेतिले गा.

एक रे वर दिला सवती मांद्रीक गा,
हो म्हण सवती मांद्रिक गा.

दोगू रे राणयो ह्यो म्हण गर्भेस्त जाल्यो गा,
देवा गर्भेस्त जाल्यो गा.

णव रे मास हे म्हण पुराय ते जाले गा,
पुराय ते जाले गा.

णव रे म्हयन्यांनी राणयो परसूद जाल्ल्यो गा,
देवा परसूद [1] जाल्यो गा.

कुंती गे राणये हे म्हण तीन पुत्र जाले गा,
देवा तीन पुत्र जाले गा.

---

१. परसूद – प्रसूत, बाळंत

मांद्री रे राणये हे म्हण दोन पुत्र जाले गा.
देवा दोन पुत्र जाले गा.

पंडू रे राजा ही म्हण वार्ता पावली गा,
देवा वार्ता पावली गा.

पंडू रे राजा हो म्हण खुशाल तो जालो गा,
हो म्हण खुशाल तो जालो गा.

आपल्या रे राज्यांत पंडून साखर वांटिली गा,
पंडून साखर वांटिली गा.

आपल्या रे राज्यांत पंडून सुटी ती दिली गा,
पंडून सुटी ती दिली गा.

गोर रे गरिबांक धर्म वांटिलो गा,
पंडून धर्म वांटिलो गा.

दान रे धर्म करून लोकां खुशाल केलो गा,
पंडून लोकां खुशाल केलो गा.

पंडूचे पुत्र हे म्हण पांडव ते जाले गा,
हे म्हण पांडव ते जाले गा.

सटयो रे बारशे करून नांवां घातिलीं गा,
पुत्रांक नांवां घातिलीं गा.

धर्म, भिम, अर्जुन, सहदेव, नकुल गा,
पांच पुत्र प्रजे अनकूल गा.

पांच रे पुत्र पंडुचे हे म्हण वाडोंक लागले गा,
पांडव वाडोंक लागले गा.

अशें रे करता पासून दोन वर्सा गेलीं गा,
देवा दोन वर्सा गेलीं गा.

पांच रे पांडव हे म्हण खेळ खेळती गा,
आंगणांत खेळ खेळती गा.

सवू रे सात वर्सा पुराय तेंकां जालीं गा,
पांडव सात वर्सा जाले गा.

ह्यावू रे वेळार पंडू खुशीन भरलो गा,
पंडू खुशीन भरलो गा.

जेवन रे खावन पंडू सुशेग बसलो गा,
पलंगार सुशेग बसलो गा.

मांद्री रे राणी ही म्हण भोव सुंदर गा,
ही म्हण भोव सुंदर गा.

सांजेच्या रे वेळार ती म्हण नदरे पडली गा,
पंडुचे नदरे पडली गा.

ह्यावू रे वेळार वासना जागरूत जाली गा,
वासना जागरूत जाली गा.

ह्यावू रे वेळार पंडू मांद्री कुडींत गेलो गा,
तो म्हण मांद्री कुडींत गेलो गा.

मांद्री रे पंडू दोगां संग भोगिती गा,
हें म्हण रतीसूख घेता गा.

ह्यावू रे वेळार यमान आपले दूत धाडिले गा,
आपले दवणे [1] धाडिले गा.

यमाचे रे दवणे पावल्या अस्तनपुराक गा,
दवणे अस्तनपुराक गा.

तिळसांजेच्या परार दवणे चावड्यां बसले गा,
पंडूच्या चावड्यां बसले गा.

संगाच्या रे वेळार पंडूचो प्राण काडिलो गा,
दवण्यांनी प्राण काडिलो गा.

पंडूचो रे प्राण घेवन भायर सरले गा,
यमदूत भायर सरले गा.

---

. दवणे - दवंडे, दूत

पंडूचो रे प्राण घेवन यमखंडा गेले गा,
दवणे यमखंडा गेले गा.

पंडुचो रे प्राणी दिला यमाच्या हाती गा,
दवण्यांनी यमाच्या हाती गा.

हरणाच्या शिंगार पंडूचो प्राण सोडिला गा,
यमान प्राण सोडिला गा.

त्यावू रे प्राण्या यमान चक्र सोडिलें गा,
यमान चक्र सोडिलें गा.

पंडूच्या प्राण्या भारी तरास पडती गा,
देवा तरास पडती गा.

अस्तना रे पुरा राज्यांत दूख पडलें गा,
देवा दुख पडलें गा.

सारी रे परजा ही म्हण रडोंक लागली गा,
परजा रडोंक लागली गा.

त्यावू रे वेळार पांडव शोक करिती गा,
बाप्पाचो शोक करिती गा.

त्यावू रे वेळार पंडित फुडें सरले गा,
पंडित फुडें सरले गा.

मोठ मोठे रे पंडित येवन समजवूंक लागले गा,
लोकां समजवूंक लागले गा.

पांच रे पांडवा ते म्हण समजवूंक लागले गा,
दोनीं राणयांक समजवूंक लागले गा.

जल्मा रे येयलो कोण हांगाच रावना गा,
तो म्हण हांगा रावना गा.

कोणा रे दोन दीस सुशेग मेळटा गा,
ते म्हण सुशेग मेळटा गा.

आमच्या रे साऱ्या प्राण्या एक ती वाट गा,
ही म्हण एक ती वाट गा.

ह्यावू रे खंडार कोण शाशवत [1] नायी गा,
देवा शाशवत नायी गा.

दोन रे दिसां फुलांबाजार चलोवूंक जायो गा,
लोकांनी चलोवूंक जायो गा.

इतलें रे सांगोन लोकां शांत तो केला गा,
लोकां शांत तो केला गा.

---

1. शाशवत – शाश्वत

त्यावू रे वेळार पांडव काय करीत गा,
पांडव काय करीत गा.

पांच रे पांडवान बाप्पा शिमशान [1] जात्रा काडली गा,
शिमशाना जात्रा काडली गा.

सारो रे लोक गेला शिमशान जात्रे गा,
पंडूचे शिमशान जात्रे गा.

पंडूच्या पुत्रान हें म्हण शरण दाळिलां गा,
धर्मान शरण दाळिलां गा.

चंदनाच्या कापट्यांक हें म्हण शरण दाळिलां गा,
धर्मान शरण दाळिलां गा.

त्यावू रे शरणार बाप्पाक ठेविला गा,
धर्मान बाप्पाक ठेविला गा.

विंधी [2] रे पर्वतार हें म्हण शरण करिती गा,
पांडव शरण करिती गा.

मंत्र रे सांगोन शरणा आग लाविली गा,
शरणा उजा पेटयिलो गा.

---

१. शिमशाना - सशाना          २. विंधी - विंध्य पर्वत

ह्यावू रे वेळार कुंती धांवत ती येयली गा,
फुडें धांवत ती येयली गा.

त्यावू रे शरणा उडी मारूंक धांव घेतिलो गा,
कुंतीन धांव घेतिलो गा.

तेच्या रे फाटल्यान मांद्री धांवट ती येयली गा.
देवा धांवट येयली गा.

धांवट तिणें येवन कुंती हाताक धरिलो गा,
मांद्रीन कुंती हाताक धरिलो गा.

तुजे गो पुत्र सोडून खंयी तू वयता गो,
आता खंयी तूं वयता गो.

तुजे गे पुत्र हे म्हण तुयें सांबाळचे गो,
हे म्हण तुयें सांबाळचे गो.

कुंतीच्या रे गळ्यांत पांच पुत्र घातिले गा,
मांद्रीन पुत्र घातिले गा.

भरतार रे गेल्ले वाटेन मांद्री ती गेली गा,
सती मांद्री ती गेली गा.

भरताराचे चितेर मांद्रीन उडी घेतली गा,
मांद्री जळोन ती गेली गा.

ह्यावू रे वेळार पांडव विधी करिती गा,
आपल्यो विधी करिती गा .

पांच रे पांडव आपल्या अस्तनपुरां येयले गा,
पांडव अस्तनपुरां येयले गा .

पांच रे पांडवां भितर धर्म तो व्हड गा,
हो म्हण धर्म तो व्हड गा .

त्यावू रे वेळार धर्माक राजा करिलो गा,
हो म्हण राजा करिलो गा .

सत्याचो रे धर्म राजा राज्य करितो गा,
आपलें राज्य करितो गा .

चौगां रे बंधवां आपल्या चार गडीं थेयिल्या गा,
चार गडीं थेयिल्या गा .

लिकांमळ गडीं मार्ग राखोंक सहदेव बसलो गा,
मार्गार सहदेव बसलो गा .

नकुल गड राखता रावू-केतू दैतां राज्य गा,
रावू- केतू दैतां राज्य गा .

अर्जुन गड राखता सुर्य वयत्या मार्गा गा,
ह्या म्हण सुर्य वयत्या मार्गा गा .

भिम रे गड राखता भिकांपूर गडीं गा,
ह्या म्हण भिकांपूर गडीं गा.

धर्म रे आपलें हें म्हण राज्य चलयता गा,
तो म्हण राज्य चलयता गा.

गुरू रे बाप्पा आपलो निंद्रा न्हिदलो गा,
पलंगार निंद्रा न्हिदलो गा.

मध्यानीच्या रात्री गुरू सपन घडलें गा,
गुरू सपन घडलें गा.

तेका न्ही सपन जालां, वशिस्ट नी पुरयास [१] गा,
गुरू वशिस्ट नी पुरयास गा.

न्हिदलेलो गुरू बाप्पा गडबडी उठलो गा,
गुरू गडबडी उठलो गा.

रूकमाई गे भामावंती दोन अस्तुर्‍यो गा,
गुरूच्यो दोन अस्तुर्‍यो गा.

धांवल्या गे धांवल्या नारी त्यो जेवणां करपाक गा,
नारी त्यो जेंवणां करपाक गा.

---

१. पुरयास – पुरोहितास, पुरयताक

आपल्या गे रंगम्हालांत शितोड घालिती गा,
नारी शितोड घालिती गा.

सारन गे शिंपल्यो घेवन घर झाडिती गा,
नारी ह्यो घर झाडिती गा.

कोयर गे कोचोप नारींनी भायर टाकिलो गा,
नारींनी भायर टाकिलो गा.

सत्याची गे हांडी आपली शेणान सारयली गा,
नारींनी शेणान सारयली गा.

सत्याची गे हांडी आपली चुलीर ठेविली गा,
नारींनी चुलीर ठेविली गा.

पांच गे धान्य घालून करड - धडयल्यो गा,
नारींनी करड-धडयल्यो गा.

पांच गे पकवानां-अन्नां शिजोवन तयार गा,
नारींचीं शिजोवन तयार गा.

जावंदया रे जावंदया स्वामी अस्तन आंगोळ्यो गा,
तुमच्यो अस्तन आंगोळ्यो गा.

हेवाळे रे नदीर गुरू चलोंक लागलो गा,
गुरू चलोंक लागलो गा.

हेवाळे रे नदीर गुरू आंगोळ्यो करिती गा,
गुरू आंगोळ्यो करिती गा.

आंगळ्यो रे करून गुरू अनवाळो जालो गा,
गुरू अनवाळो जालो गा.

थंड रे पाणया झारी भरून घेतली गा,
गुरून भरून घेतली गा.

इतलें रे करून गुरू आंगणां पावलो गा,
गुरू आंगणां पावलो गा.

तुळशी गे माये सेवा करूंक लागलो गा,
गुरू करूंक लागलो गा.

तुळशीची सेवा करून रंगम्हालांत गेलो गा,
आपल्या रंगम्हालांत गेलो गा.

सर्वणाचीं ताटां नारींनी वाडोन ठेविलीं गा,
नारींनी वाडोन ठेविलीं गा.

चंदनाच्या पाटार आपलो बसकार बसलो गा,
गुरू बसकार बसलो गा.

पयली रे उंडी घातल्या धरतरे माये गा,
पिकोवन ती कश्टी गा.

दुसरी रे उंडी घातल्या अग्नी माये गा,
रांदून ती कश्टी गा.

तिसरी रे उंडी घातल्या का करत्या कावळ्या गा,
का करत्या कावळ्या गा.

चवथी रे उंडी घातल्या बिलू-मांजराक गा,
आपल्या बिलू मांजराक गा.

पांचवी रे उंडी करून मुखी ग्रासली गा,
आपल्या मुखी ग्रासली गा.

जेवन रे खावन गुरू सावशीद जालो गा,
गुरू सावाशीद जालो गा.

थंड रे पाणया गुरून चोवकाळ घेतलो गा,
गुरून चोवकाळ घेतलो गा.

वचोन रे बसला गुरू भवना पलंगार गा,
गुरू भवना पलंगार गा.

बत्तीस पानां इडो मुखीक मोडिलो गा,
गुरून मुखीक मोडिलो गा.

इतलें रे करून गुरू शिंरगार कुडींत गेलो गा,
गुरू शिंरगार कुडींत गेलो गा.

सर्व रे शिंरगार गुरू आंगार न्हेसलो गा,
गुरू आंगार न्हेसलो गा.

आपली रे बावन बेतकांठी हाताक घेतली गा,
गुरून हाताक घेतली गा.

पांयांचे रे चिरमू [१] जोतें पांयांत घातिलें गा,
आपल्या पांयात घातिलें गा.

इतलें रें करून गुरू भायर सरलो गा,
गुरू भायर सरलो गा.

पांडवांच्या राज्या गुरू वाट चलती गा,
गुरू वाट चलती गा.

चलोन रे गेला गुरू पांडवपुराक गा,
हो म्हण अस्तनपुराक गा.

सत्याचो रे धर्म राजा आंगणांत बसला गा,
आपल्या आंगणांत बसला गा.

त्यावू रे वेळार गुरूचेर नदर पडली गा,
धर्मा नदर पडली गा.

१. चिरमू = चर्मू, चामड्याचें

त्यावू रे वेळार धर्म बसकार हाडितो गा,
धर्म बसकार हाडितो गा.

त्यावू रे वेळार धर्मान साखर- पाणी हाडिलां गा,
धर्मान साखर - पाणी हाडिलां गा.

ह्यावू रे वेळार गुरू आंगणां पावलो गा,
धर्मा आंगणां पावलो गा.

ह्यावू रे वेळार धर्म सांगोंक लागलो गा,
धर्म सांगोंक लागलो गा.

गुरू रे बाप्पा आमच्या बस्तनार बस गा,
आमच्या बस्तनार बस गा.

तुमच्या रे बस्तनार आमी बसना गा,
धर्मा आनी बसना गा.

त्यावू रे वेळार धर्म साखर-पाणी दिता गा,
गुरू साखर -पाणी दिता गा.

तुमचें रे साकर-पाणी आमी खायिना गा,
धर्मा आमी खायिना गा.

कशा रे कारणा अमचें साखर - पाणी घेना गा,
गुरू साखर-पाणी घेना गा.

तुमचीं रे बाप्पा – पितरां भश्टांक आसा गा,
धर्मा भ्रश्टांक आसा गा.

त्यावू रे कारण धर्मा जात ठेविली गा,
धर्मा जात ठेविली गा.

जातीचो रे मार्ग गुरू तुयें सांगचो पडलो गा,
गुरू तुयें सांगचो पडलो गा.

जातीचो रे मार्ग आहे तो रासवळ तळ्यार गा,
वयचें रासवळ तळ्यार गा.

इतलें रे सांगून गुरू फाटीं परतलो गा,
गुरू आपल्या राज्यां गेलो गा.

सत्याचो धर्म राजा येवजूंक लागलो गा,
धर्म येवजूंक लागलो गा.

जये रामा शिवरामा सुमरण मांडिलां गा,
देवांनी सुमरण बोललां गा.

अस्तनापुरा राज्यां धर्म येवजितो गा,
हो म्हण धर्म येवजितो गा.

चौग रे बंधव आपले चार गडी आसा गा,
देवा शिमो राखती गा.

बंधवा रे, बंधवा, म्हुणून साद मारिलो गा,
धर्मान साद मारिलो गा.

पयलो रे साद मारला वाटे खर्चा भाग गा,
धर्मा वाटे खर्चा भाग गा.

दुसरो रे साद मारला, झाडां - झोपां गेलो गा,
धर्मा झाडां - झोपां गेलो गा.

तिसरे रे साद मारला शिमेसंगती गेलो गा,
हो म्हण बंधवाच्या कानी गा.

सहदेवाच्या कानी साद परियास जालो गा,
देवा परियास जालो गा.

चौग रे बंधव आमी चार गडीं आसा गा,
देवा शिमो राखती गा.

तिळसांजेर सारो खंड चावड्यां पावला गा,
देवा चावडी लोटली गा.

पुस्तकांचो भार आपलो फाटीक मारिलो गा,
सहदेवान फाटीक मारिला गा.

कांस रे कवळून आपूण धावूंक लागलो गा,
सहदेव धावूंक लागलो गा.

धांवट रे धांवट पावलो अस्तनापुराक गा,
सहदेव अस्तनापुराक गा.

पुस्तकांचो भार घेवन वावडूंक लागलो गा,
आंगणां वावडूंक लागलो गा.

दाखय रे दाखय बंधवा चोर–चांडाळ गा,
बंधवा चोर – चांडाळ गा.

चोर तो नायी रे बंधवा, चांडाळ तो नायी गा,
चांडाळ तो नायी गा.

खुशालीच्या कामा बंधवा साद मारिला गा
बंधवा थंड तूं बस गा.

त्यावू रे वेळार सहदेव थंड तो बसलो गा,
चावडयां थंड बसलो गा.

नकुलाच्या कानी साद परियास जालो गा,
देवा परियास जालो गा.

णव धारीचें खड्ग घेवन धांवोंक लागलो गा,
नकुल धांवोंक लागलो गा.

धांवट रे धांवट पावला अस्तनापुराक गा,
नकुल अस्तनापुराक गा.

णव धारीचें खड्ग घेवन वावडूंक लागलो गा,
नकुल धांवोंक लागलो गा .

धांवट रे धांवट पावला अस्तनापुराक गा,
नकुल अस्तनापुराक गा .

णव धारीचें खड्ग घेवन वावडूंक लागलो गा
आंगणां वावडूंक लागलो गा .

दाखय रे दाखय बंधवा चोर-चांडाळ गा,
बंधवा चोर -चांडाळ गा .

खुशालीच्या कारणा बंधवा साद मारिला गा,
बंधवा थंड तूं बस गा .

त्यावू रे वेळार नकुल थंड बसलो गा,
चावड्यां थंड बसलो गा .

अर्जुनाच्या कानी साद परियास जालो गा,
देवा परियास जालो गा .

बांधवाचो साद म्हण तो पिल्लुकेचो नाद गा,
देवा पिल्लुकेचो नाद गा .

चौग रे बंधव आमी चार गडीं आसा गा,
देवा शिमो राखती गा .

खंयच्यान रे चोर चांडाळ चावड्यां पावले गा,
देवा चावडी नागयली गा.

अकांताच्या वेळार बंधवान साद मारिलो गा,
बंधवान साद मारिलो गा.

बाणाच्यो रे भरण्यो आपल्यो फाटीक मारिल्यो गा,
अर्जुनान फाटीक मारिल्यो गा.

धोनुश्य रे बाण घेवन धांवोंक लागलो गा,
अर्जुन धांवोंक लागलो गा.

धांवट रे धांवट पावला अस्तनपुराक गा,
अर्जुन अस्तनपुराक गा.

बाण रे भरण्यो घेवन वावडूंक लागलो गा,
आंगणां वावडूंक लागलो गा.

दाखय रे दाखय बंधवा चोर – चांडाळ गा,
बंधवा चोर – चांडाळ गा.

खुशालीच्या कारणा बंधवा साद मारिलो गा,
बंधवा साद मारिलो गा.

त्यावू रे वेळार अर्जुन थंड बसलो गा,
चावड्या थंड बसलो गा.

भिमाच्या रे कानी साद परियास जालो गा,
देवा परियास जालो गा .

त्यावू रे वेळार भिम खंकाळ तो जालो गा,
खंकाळ तो जालो गा .

ताड रे माड भिम वाडोंक लागलो गा,
भिम वाडोंक लागलो गा .

णव मण गदा आपली खांदाक मारिली गा,
भिमान खांदाक मारिली गा .

वनां रे रानां मोडून धांवोंक लागलो गा,
भिम धांवोंक लागलो गा .

धांवट रे पावला हो म्हण अस्तनपुराक गा,
भिम अस्तनपुराक गा .

णव मण गदा घेवन वावडोंक लागलो गा,
भिम वावडोंक लागलो गा .

दाखय रे दाखय वंधवा, चोर चांडाळ गा,
वंधवा चोर चांडाळ गा .

खुशालीच्या कामा बंधवा साद मारिला गा,
बंधवा थंड तूं बस गा .

कुंती रे दुरपदी हीं म्हण जेवणां रांदिती गा,
आपलीं जेवणां रांदिती गा.

त्यावृ रे वेळार पांडव पाणी न्हावती गा,
हे म्हण अनवाळे जाती गा.

एका रे उंडीक पासून जेवणां तीं गिळ्ळीं गा,
पांडवांनी जेवणां तीं गिळ्ळीं गा.

जेवन रे खावन फार सवशीद जाले गा,
पांडव सवशीद जाले गा.

ह्यावृ रे वेळार पांडव सुशेग बसले गा,
खिणभर सुशेग बसले गा.

सत्याचो रे धर्म राजा सांगोंक लागलो गा,
बंधवांक सांगोंक लागलो गा.

आमचीं रे बाप्पा - पितरां भश्टांक आसा गा,
बंधवांनो भश्टांक आसा गा.

गुरू रे बाप्पान आमकां जात टेविली गा,
बंधवांनो जात टेविली गा.

जातीचो मार्ग आसा तो रासवळ तळ्यार गा,
आसा रासवळ तळ्यार गा.

ह्यावू रे वेळार पांडव आंगणांत आसा गा,
पांडव आंगणांत आसा गा.

पांच रे पांडव आपलो रथ घडयती गा,
आपलो रथ घडयती गा.

पांच रे पांडवांनी रथा शिरंगार केला गा,
पांडवांनी रथा शिरंगार केला गा.

पांच रे पांडव हे म्हण रथा सुंवार जालें गा,
देवा रथा सुंवार जाले गा.

पांच रे पांडवां रथ परबतार गेलो गा,
हो म्हण परबतार गेलो गा.

गिरी रे परबतार रथ चलोंक लागलो गा,
रथ चलोंक लागलो गा.

फुडें रे वचोंक जल्मा वाट ती नायी गा,
देवा वाट ती नायी गा.

मेल्या रे रूक्षा मुळांत रथ थारायलो गा,
धर्मान रथ थारायलो गा.

चौग रे पांडव हे म्हण खाली देंवले गा,
हे म्हण रथा खाली देंवले गा.

चौग रे पांडव हे म्हण तळें सोदती गा,
परबता तळें सोदती गा.

सारो रे दोंगोर भोंवल्यार तळें मेळना गा,
पांडवां तळें मेळना गा.

त्यावू रे वेळार भिम काय करिती गा,
भिम काय करिती गा.

बारामाड आसलो भिम, तेरामाड जालो गा,
देवा तळें सोदूंक गा.

कशा रे कारणा बंधवा तळें मेळना गा,
जल्मा तळें मेळना गा.

त्यावू रे वेळार धर्मा ज्यास्त मारिती गा,
भिम धर्मा ज्यास्त मारिती गा.

धर्माच्यो रे खबरी आयकल्यार आमकां संवसार नाका गा,
आमकां संवसार नाका गा.

यावू रे यावू आतां आमी घरा गा,
आमी घरा ते यावू गा.

भिमाचे रे सांगणीन पांडव परतोन येता गा
पांडव परतोन येता गा.

त्यावू रे वेळार पांडव रूक्ष सोदिती गा,
पांडव रथ सोदिती गा.

रथ रे सोदल्यार पांडवां रथ मेळना गा,
पांडवां रथ मेळना गा.

त्यावू रे वेळार पांडव रूक्ष सोदिती गा,
मेल्लो रूक्ष सोदिती गा.

मेलेलो रे रूक्ष सोदल्यार रूक्ष मेळना गा,
जल्मा रूक्ष मेळना गा.

धर्माच्या सत्वान रूक्ष पालेवन दंग गा,
हो म्हण पालेवन दंग गा.

त्यावू रे रूक्षाताळी धर्माचो रथ गा.
देवा धर्माचो रथ गा.

त्यावू रे वेळार अर्जुनाक राग भरलो गा,
अर्जुनाक राग भरलो गा.

रागाच्या भारार अर्जुनान वाण सोडिलो गा,
अर्जुनान वाण सोडिलो गा.

त्यावू रे वेळार अर्जुनान रूक्षा तोडिलो गा,
अर्जुनान रूक्षा तोडिलो गा.

पानान रे पान रूक्षाचें खाली पाडिलां गा,
अर्जुनान भुमीर पाडिलां गा.

त्यावू रे वेळार धर्मा रथ मेळला गा,
पांडवां रथ मेळला गा.

पांच रे पांडव हे म्हण रथा सुंवार जाले गा,
देवा रथा सुंवार जाले गा.

सारो रे दोंगर भोंवल्यार तळें मेळना गा,
आमकां तळें मेळना गा.

साऱ्यो रे खबरी ह्यो म्हण फुकट दिसता गा,
आमकां फुकट दिसता गा.

सत्याचो रे धर्म राजा येवजूंक लागलो गा,
धर्म शापूंक लागलो गा.

पापाचो रे रथ जाल्यार पापखंडाक वयचो गा,
रथ पापखंडाक वयचो गा.

सत्याचो रे रथ जाल्यार सत्यमार्गाक वयचो गा,
रथ सत्यमार्गाक वयचो गा.

सत्याचो रे मार्ग फुडें दाखोवन दिवचो गा,
आमकां दाखोवन दिवचो गा.

ह्यावू रे वेळार रथ चलोंक लागलो गा,
परबता चलोंक लागलो गा.

गिरी रे परबता रथ चडोंक लागलो गा,
रथ चडोंक लागलो गा.

चडोन रे गेल्यार रथ तळयार पावलो गा,
धर्मा तळयार पावलो गा.

रासवळ्या रे तळयार रथ थारोवन घेतलो गा,
धर्मान थारोवन घेतलो गा.

पांच रे पांडव हे म्हण तळयार देंवले गा,
पांडव तळयार देंवले गा.

उदक रे पाणी पिवन सवशीद जाले गा,
पांडव सवशीद जाले गा.

त्यावू रे वेळार थिंगा कोण तो नायी गा,
थिंगा कोण तो नायी गा.

त्यावू रे वेळार भिम ज्यास्त मारितो गा,
धर्माक ज्यास्त मारितो गा.

त्यावू रे तळयार थिंगा रूशी परसन जालो गा,
देवा रूशी परसन जालो गा.

त्यावू रे वेळार पांडव हात जोडिती गा,
रूशी देवाक हात जोडिती गा.

सत्याचो रे धर्म राजा मागोंक लागलो गा,
हो म्हण मागोंक लागलो गा.

जातीचो रे मार्ग रूशी आमकां सांगोंक जायो गा,
आमकां सांगोक जायो गा.

जांतीचो मार्ग धर्मा आयकोन घेव गा,
धर्मा आयकोन घेव गा.

जातीचो रे मार्ग रूशी सांगोंक लागलो गा,
पांडवां सांगोंक लागलो गा.

अस्तना रे पुराक वचोन याग मांडुचो गा,
धर्मा याग मांडुचो गा.

त्यावू रे यागा जाये सुरय तांदूळ गा,
धर्मा सुरय तांदूळ गा.

त्यावू रे यागा जायीं पानेलीचीं पानां गा,
धर्मा अमरूत फळां गा.

त्यावू रे यागा जायो माडये सुपाऱ्यो गा,
धर्मा माडये सुपाऱ्यो गा.

त्यावू रे यागा जायें कपली गाये दूद गा,
धर्मा कपली गाये दूद गा.

त्यावू रे यागा जायें अणशी अणस गा,
धर्मा मावळींग जायें गा.

त्यावू रे यागा जायें गंद तें फूल गा,
धर्मा गंद अक्षत गा.

त्यावू रे यागा जायो चंदनाच्यो कापट्यो गा,
धर्मा चंदनाच्यो कापट्यो गा.

त्यावू रे यागा जायो रूमडाच्यो बडयो गा,
धर्मा रूमडाच्यो बडयो गा.

त्यावू रे यागा जायो पळसाच्यो काडयो गा,
धर्मा पळसाच्यो काडयो गा.

त्यावू रे यागा जायें काळे गाये तूप गा,
धर्मा काळे गाये तूप गा.

त्यावू रे यागा जाये बाराखाणी तीळ गा,
धर्मा बारा खाणी तीळ गा.

त्यावू रे यागा जायें बारा मण तूप गा,
धर्मा बारा मण तूप गा.

सारीं रे साइत्यां पुनोवन याग मांडुचो गा,
धर्मा याग मांडुचो गा.

याग रे मांडून धर्मा शिराद मांडुचें गा,
धर्मा शिराद मांडुचें गा.

त्यावू रे वेळार तुमकां पितरां मेळटलीं गा,
तुमकां पितरां मेळटलीं गा.

पितरां रे मेळना जाल्यार यमखंडा वयचें गा,
धर्मा यमखंडा वयचें गा.

इतलें रे सांगून गुरू गुप्त तो जालो गा,
तळ्यार गुप्त तो जालो गा.

पांच रे पांडव रथा सुंवार ते जाले गा,
आपल्या रथा सुंवार जाले गा.

पांच रे पांडवां रथ चलोंक लागलो गा,
मार्गा चलोंक लागलो गा.

पांच रे पांडवां रथ अस्तना पावलो गा,
रथ अस्तना पावलो गा.

पांच रे पाडवांनी रथ आंगणां थारयलो गा,
आपल्या आंगणां थारयलो गा.

पांच रे पांडव आपल्या आंगणां देंवले गा,
आपल्या आंगणां देंवले गा.

उदक रे पाणी न्हावोन शुर्च[1] ते जाले गा,
पांडव शुर्च ते जाले गा.

जेवन रे खावन हे म्हण निंद्रा न्हिदले गा,
सुखाची निंद्रा न्हिदले गा.

सकाळीं रे उठून चौगूय चार रथ घडयती गा,
आपले चार रथ घडयती गा.

बरोबर सैनां घेवन चार देशां गेले गा,
पांडव चार देशां गेले गा.

चार रे देशांनी वचून लडाय करिती गा,
पांडव लडाय करिती गा.

सर्वा रे राजांक पांडव जिकोंक लागले गा,
पांडव जिकोंक लागले गा.

धन रे दौलत पांडव पुनोवंक लागले गा,
पांडव पुनोवंक लागले गा.

---

१. शुर्च - अनवाळो, शुचिर्भूत

सारीं रे साइतां पांडव पुनोवंक लागले गा,
पांडव पुनोवंक लागले गा.

सारें रे भारतखंड जिकोन घेतलें गा,
पांडवांनी जिकोन घेतलें गा.

सार्व रे भौम [१] राजा हो म्हण धर्म तो राजा गा,
हो म्हण धर्म तो राजा गा.

साऱ्या रे भारती राजाक हाताखाला केले गा,
आपले मांडलीक केले गा.

धर्माचे रे नांव हें म्हण वयर काडिलें गा,
भावांनी वयर काडिलें गा.

साऱ्या रे राजांक हीं म्हण आमंत्रणां केलीं गा,
पांडवांनी आमंत्रणां केलीं गा.

भटां रे रूशींक पांडव आपोवंक लागले गा,
पांडव आपोवंक लागले गा.

सारे रे राजा हे म्हण चलोंक लागले गा,
अस्तना चलोंक लागले गा.

---

१. सारी रे भौम = सार्वभौम

सारो रे लोक येवन तयार तो जालो गा,
यागा तयार तो जालो गा.

कैरव[1] - पांडव हे म्हण एक ते जाले गा,
देवा एक ते जाले गा.

सारीं रे कामां हीं म्हण वांटून घेतलीं गा,
पांडवांनी वांटून घेतलीं गा.

ह्यावू रे वेळार धर्मान माटोव घडिला गा,
धर्मान माटोव घडिला गा.

उदक रे पाणी न्हावोन अनवाळे जाले गा,
पांडव अनवाळे जाले गा.

सारीं रे साइतां पुनोवन तयार तीं केलीं गा,
पांडवांनी तयार तीं केलीं गा.

त्यावू रे मांटवां धर्म याग मांडिती गा,
धर्म याग मांडिती गा.

भट रे रूशी हे म्हण यागाक बसले गा,
हे म्हण यागाक बसले गा.

---

१. कैरव - कौरव

सत्याचो रे धर्म राजा याग मांडिती गा,
धर्म याग मांडिती गा.

त्यावू रे वेळार धर्मान चौक घडिला गा,
धर्मान चौक घडिला गा.

त्यावू रे वेळार धर्मान रांगोळ्यो घातिल्यो गा,
धर्मान रांगोळ्यो घातिल्यो गा.

त्यावू रे वेळार धर्मान शिरत्यो मांडिल्यो गा,
धर्मान शिरत्यो मांडिल्यो गा.

भट रे रूशी हे म्हण मंत्र जपती गा,
यागा मंत्र जपती गा.

सत्याचो रे धर्म राजा याग मांडिती गा,
चावड्यां याग मांडिती गा.

त्यावू रे शिरत्यांर धर्मान तांदूळ मांडिले गा,
धर्मान तांदूळ मांडिले गा.

त्यावू रे यागा मांडिल्यां अमरूत फळां गा,
धर्मान अमरूत फळां गा.

त्यावू रे यागां मांडिल्यां पानेलीचीं पानां गा,
धर्मान माडये सुपाऱ्यो गा.

त्यावू रे यागा मांडिलां कपली गाये दूद गा,
धर्मान कपली गाये दूद गा.

त्यावू रे यागा मांडिलां अणशिणी अणस गा,
हें म्हण मावळिणी मावळींग गा.

त्यावू रे यागा मांडिलां गंद तें फूल गा,
धर्मान गंद – अक्षत गा.

त्यावू रे यागा मांडिल्या, चंदनाच्यो कापट्यो गा,
धर्मान चंदनाच्यो कापट्यो गा.

त्यावू रे यागा मांडिल्या रूमडाच्यो बडयो गा,
धार्मान पळसाच्यो काडयो गा.

त्यावू रे यागा मांडलां काळे गाये तूप गा,
धर्मान काळे गाये तूप गा.

त्यावू रे यागा मांडल्यां बारा मण तिळयो गा,
धर्मान बारा मण तिळयो गा.

एक रे वर्स पासून यज्ञ चलती गा,
धर्माचो याग चलती गा.

याग रे सोपून करून श्राद्ध मांडिला गा,
धर्मान श्राद्ध वाडिलां गा.

येवचीं रे येवचीं पितरां भल्ले सभेर गा,
पितरां भल्ले सभेर गा.

येवचीं रे येवचीं पितरां धर्मा सभेर गा,
पितरां धर्मा सभेर गा.

सत्याचीं रे पितरां जाल्यार सभेर येतलीं गा,
पितरां सभेर येतलीं गा.

सत्याचे रे मार्ग बाळकां दाखोवन दितलीं गा,
पितरां दाखोवन दितलीं गा.

सत्य रे मार्ग हे म्हण दाखोवन दितले गा,
बाळकांक दाखोवन दितले गा.

सत्याचीं रे पितरां जाल्यार सभेर येतलीं गा,
देवा सभेर येतलीं गा.

पापाची रें पितरां जाल्यार पापखंडा वयचीं गा,
देवा पापांक रावतलीं गा.

सत्याचो रे धर्म राजा येवजूंक लागलो गा,
धर्म येवजूंक लागलो गा.

इतलो रे खर्च करून निर्फळ जालो गा,
देवा निर्फळ जालो गा.

सत्याचो रे धर्म राजा बापडो तो जालो गा,
देवा बापडो तो जालो गा.

सत्याचो रे धर्म राजा शिंरगार करितो गा,
आपलो शिंरगार करितो गा.

सर्व रे लोकांक  धर्म सांगोंक लागलो गा,
धर्म सांगोंक लागलो गा.

साऱ्या रे लोकांनो तुमी थंड रावा गा,
हांगा खोशाल बसोनी गा.

आपली रे बावन बेतकांठी हातांत घेतली गा,
धर्मान हातांत घेतली गा.

पिलुचो रे कुंचो आपलो हातांत घेतिलो गा,
धर्मान हातांत घेतिलो गा.

चौग रे पांडव हे म्हण तोंड – तोंडाक चोयता गा,
हे म्हण तोंड – तोंडांक चोयता गा.

धर्माच्या रे फाटल्यान वचोंक कोणाच्यान जायना गा,
देवा कोणाच्यान जायना गा.

सत्याचो रे धर्म राजा भायर सरतो गा,
धर्म भायर सरतो गा.

पिलूच्या रे कुंच्यान धर्म वाट झाडितो गा,
धर्म वाट झाडितो गा.

मुंये रे मारूना पदरां पातक घेयिना गा,
धर्म पातक घेयिना गा.

झाडित रे येळीत धर्म वाट चलतो गा,
धर्म वाट चलतो गा.

राज़्यां रे सोडीत धर्म फुडें राज्यां चलतो गा,
धर्म वाट चलतो गा.

सत्याचो रे धर्म राजा फुडें चलतो गा,
यमाच्या राज्यां चलतो गा.

जये रामा, शिवरामा सुमरण मांडिलां गा,
देवांनी सुमरण बोलीला गा.

बनवडी रे घातल्या मनशाक भारी पातक गा,
पदरा भारी पातक गा.

त्यावू रे पासत राम नाम घेयिता गा,
राम नाम घेयिता गा.

रामाचो रे जय करूनी पातक निवारण जाती गा,
देवा पातक निवारण जाती गा.

सत्याचो रे धर्म राजा फुडें पावलो गा,
देवा फुडें पावलो गा.

तेत्तीस रे कोटी देवांनी खांब रचिलो गा,
देवांनी मार्गार खांब रचिला गा.

पयलीं रे मृतखंड राज्य निर्माण केला गा,
देवांनी निर्माण केलां गा.

त्यावू रे वेळार तो म्हण खांब तयार केलो गा,
सिस्टिचो [1] खांब तयार केलो गा.

जल्मा रे येवोन प्राणी खांब चडोन वयता गा,
प्राणी खांब चडोन वयता गा.

परतो रे जल्मा येत जाल्यार खांब देवोन येता गा,
प्राणी खांब देवोन येता गा.

त्यावू रे खांब्यार धर्म चडोंक लागलो गा,
धर्म चडोंक लागलो गा.

पिलुच्या रे कुंच्यान धर्म वाट झाडिती गा,
खांब्या सपणां झाडिती गा.

---

१. सिस्टिचो - सृश्टिचो

एकावें एक झाडी, पांय घाली फुडें गा,
धर्म खांबो चडतो गा.

तीन – चारावें सपण झाडी, पांय घालीं फुडें गा,
धर्म खांबो चडतो गा.

स–सातावें सपण झाडी, पांय घाली फुडें गा,
धर्म खांबो चडतो गा.

इकराव्या सपणार धर्म उबो रावलो गा,
धर्म राज्य बगतो गा.

णव खंड पिरथी [१] धर्म पळोवंक लागलो गा,
धर्म पळोवंक लागलो गा.

बारा तेरावें सपण झाडी पांय घाली फुडें गा,
धर्म खांबो चडतो गा.

पंदरा – सोळावें सपण झाडी पांय घाली फुडें गा,
धर्म खांबो चडतो गा.

सतरा – अठरावें सपण झाडी, पांय घाली फुडें गा,
धर्म खांबो चडतो गा.

---

१. पिरथी – पृथ्वी

इकुणिसावें सपण झाडी, पांय घाली फुडें गा,
धर्म खांबो चडतो गा.

इसावें सपण  झाडी, पांय घाली फुडें गा,
धर्म खांबो चडता गा.

इकिसायें सपण हें म्हण चडोन पावलो गा,
धर्म चडोन सोंपलो गा.

सृस्टिचो खांब चडोन वयर पावलो गा,
धर्म वयर पावलो गा.

फुडें रे गेल्यार देवा गोंदळां पडलो गा,
धर्माक घोटाळ तो जालो गा.

तेत्तीस कोटी देवांनी मार्ग बांदिलो गा,
थंगा मार्ग बांदिलो गा.

आपले रे मार्ग ते म्हण आपल्या राज्यां व्होयल्या गा,
देवांनी आपल्या राज्यां व्होयल्या गा.

खंयच्यान गा वयचें म्हणोन धर्मा कळना गा,
देवा धर्म कळना गा.

ह्यावू रे वेळार धर्म बापडो तो ज़ालो गा,
मार्गार बापडो तो जालो गा.

त्यावू रे वेळार म्हाका कोण पावत गा,
देवा कोण भेटत गा.

त्यावू रे वेळार थिंगा गुरू परसन जालो गा.
देवा गुरू परसन जालो गा.

त्यावू रे वेळार धर्म खुशाल तो जालो गा,
धर्म खुशाल तो जालो गा.

त्यावू रे वेळार धर्म विचारूं लागलो गा,
गुरूक विचारूं लागलो गा.

माणकांनी रे बांदलो मार्ग कोण राज्यां गेलो गा,
गुरू सांग बेगीन गा.

माणकांनी रे बांदलो मार्ग कैलासा गेलो गा,
धर्मा शंकरा राज्यांक गा.

शंकराची भक्ती केल्यार त्या मार्गान वयता गा,
प्राणी त्या मार्गान वयता गा.

वज्रांनी रे बांदलो मार्ग कोणा राज्यां गेलो गा,
गुरू सांग बेगीन गा.

वज्रांनी बांदलो मार्ग वैकुंठा गेलो गा,
धर्मा विष्णु राज्यांक गा.

विष्णुची रे भक्ती केल्यार त्या मार्गान वयता गा,
प्राणी वैकुंठा भुवना गा.

रत्नांनी रे बांदलो मार्ग कोण राज्यां गेलो गा,
गुरू सांग बेगीन गा.

रत्नांनी रे बांदलो मार्ग सत्य लोकांक गेलो गा,
धर्मा बरम्या राज्यांत गा.

भांगरान रे बांदलो मार्ग कोण राज्यां गेलो गा,
गुरू सांग बेगीन गा.

भांगरान रे बांदलो मार्ग इरावती राज्यां गेलो गा,
इंद्र वयचे सभेर गा.

रुप्यान रे बांदलो मार्ग कोण राज्यां गेलो गा
गुरू सांग बेगीन गा.

रुप्यान रे बांदलो मार्ग अलकापुरांत गेलो गा,
हो म्हण कुबेरखंडांत गा.

तांब्यान रे बांदलो मार्ग कोण राज्यां गेलो गा,
गुरू सांग बेगीन गा.

तांब्यान रे बांदलो मार्ग पवन राज्यां गेलो गा,
ह्या म्हण मंगळाच्या राज्यां गा.

सारे रे मार्ग सोडून फुडें ते गेले गा,
हे म्हण फुडें ते गेले गा.

सुतान रे बांदलो मार्ग कोण राज्यां गेलो गा,
गुरू सांग बेगीन गा.

सुतान रे बांदलो मार्ग यमखंडा गेलो गा,
धर्मा यमखंडा गेलो गा.

सुताच्या रे मार्गान धर्म चलोंक लागलो गा,
धर्म चलोंक लागलो गा.

फाटीं रे वळून धर्म गुरूक आपयता गा,
धर्म गुरूक आपयता गा.

धर्माचे रे लजेक लागोन चलोंक लागलो गा,
गुरू चलोंक लागलो गा.

अद्र्या रे सांकवारसान खाली पडलो गा,
गुरू खाली पडलो गा.

सत्याचो रे प्राणी आपल्या सुता सांकवान वयता गा,
प्राणी सुता सांकवान वयता गा.

पापाचो रे प्राणी हो म्हण खाली पडता गा,
तो म्हण किड्यांच्या कोडांत गा.

किड्यांच्या रे कोडांत गुरू लोळोंक लागलो गा,
गुरू लोळोंक लागलो गा .

किड्यांनी रे खावन गुरू वरड मारीतो गा,
गुरू वरड मारीतो गा .

त्यावू रे वेळार धर्मा काळकूत येता गा,
गुरूची काळकूत येता गा .

आपले रे बेतकांठयेन वयर काडिलो गा,
गुरू वयर काडिलो गा .

आपल्या रे पिलुच्या कुंच्यान झाडोंक लागलो गा,
धर्म झाडणी घालती गा .

गुरू रे बाप्पा धर्मान सावशीद केलो गा,
धर्मान सावशीद केलो गा .

सारो रे जल्म काडून मोकळो तो केलो गा,
गुरू मोकळो तो केलो गा .

इतलें रे करून धर्म फुडें चलता गा,
मार्गार फुडें चलता गा .

फुडें रे गेल्यार मार्गार चामार आसा गा,
हे म्हण चामार ते आसा गा .

एका रे उल्या वाटे धावो घतिला गा,
धर्माक धावो घातिला गा .

धा – बारा रे चामार हे म्हण जोतीं घेवन येयले गा,
मार्गार जोतीं घेवन येयले गा .

धर्माची रे वाट चामरांनी आडोवन धरिली गा,
चामरांनी आडोवन धरिली गा .

फुडें रे वचोंक चामार वाट सोडिना गा,
धर्माक वाट सोडिना गा .

म्हागे घे रे, तुगे घे रे,म्हण फुड्यांक ते येता गा,
जोतीं घेवन फुड्यांक ते येता गा .

सत्याचो रे प्राणी केन्ना जोतीं घालना गा,
जल्मा जोती पांयांत घालना गा .

आदीं रे गायतुरी, म्हाका धरतरी गा,
ही म्हण म्हाजी धरतरी गा .

आपल्या रे आईमायेचें जोतें घालू नये गा,
जल्मा जोतें घालू नये गा .

ह्यावू रे जल्मा आमकां तीन त्यो माया गा,
आमकां तीन त्यो माया गा .

जल्म रे दिल्ली माया दोन वर्सां पोसता गा,
ही म्हण आपल्या दुदार गा.

मागीर रे सारो संवसार गायतुरी माया गा,
आपली धरतरी माया गा.

हेंवू रे राखून मनशान आपल्याच मनाक घेवचें गा,
आपणें सत्य धर्म करचो गा.

धर्म रे राजा कशे वाट सोडिना गा,
चामार वाट सोडिना गा.

त्यावू रे वेळार मार्गार गुरून काय ते केला गा,
गुरून काय ते केला गा.

कपट-माया करून चोर रचिले गा,
मार्गार चोर रचिले गा.

त्यावू रे चोरांनी हीं म्हण घरां चोरिलीं गा.
चामरां घरां चोरिलीं गा.

घरां रे आसले सगळें चोरांनी पोटल्यो बांदिल्यो गा,
चोरांनी पोळोवन तें व्हयलें गा.

त्यावू रे वेळार धर्मान जाप ती दिली गा,
चामरां जाप ती दिली गा.

कसलें रे गिरायक घेवन मार्गार बसले गा,
तुमी मार्गार बसले गा.

तुमचें रे घर - दार चोरांनी नागयलें गा,
तें म्हण चोरांनी चोरिलें गा.

धर्माचे रे शब्द चोरांच्या कानांत पडले गा,
चामरांच्या कानांत पडले गा.

त्यावू रे वेळार हे म्हण पळोवूंक लागले गा,
चामार पळोवूंक लागले गा.

त्यावू रे वेळार जोतीं शेंवटून मारिलीं गा,
चामरांनी शेंवटून मारिलीं गा.

त्यावू रे चोरां फाटल्यान धावोंक लागले गा,
चामार धावोंक लागले गा.

त्यावू रे वेळार धर्मा वाट मेळली गा,
धर्मा वाट मेळली गा.

सत्याचो रे धर्म राजा वाट चलता गा,
यमखंडा वाट चलता गा.

सत्याचो रे धर्म राजा वाट चलता गा,
यमखंडा वाट चलता गा.

फुडें रे गेल्यार म्हाल मार्गार कलवंत आसा गा,
देवा कलवंत आसा गा.

यमा रे राजान हीं म्हण मेंटां तीं दिलीं गा,
मार्गार मेंटां तीं दिलीं गा.

सत्याचो मनीस येयल्यार भश्टकार करचो गा,
हो म्हण भश्टकार करचो गा.

त्यावू रे वेळार कलवंत काय करिती गा,
कलवंत काय करिती गा.

एका रे उल्या वाटे धावो घातिलो गा,
धर्माक धावो घातिला गा.

त्यावू रे वेळार कलवंत नेटोंक लागलें गा,
बरे नेटोंक लागलें गा.

सारो गो शिंरगार करून मार्गार आसा गा,
कलवंत मार्गार आसा गा.

धर्मा रे राजाची ही म्हण वाट धरिली गा,
कलवंतान वाट धरिली गा.

सत्याच्या रे धर्मा पळोवन भुलोन पडलें गा,
मार्गार भुलोन पडलें गा.

असले रे दादले आमी केन्ना बगले नायी गा,
जल्मा केन्ना बगले नायी गा.

धर्माक पळोवन हें म्हण नाचोंक लागलें गा,
मार्गार फुगडी घालती गा.

फुडें रे वचोंक धर्मा वाट सोडिना गा,
जल्मा वाट सोडिना गा.

दोनींय रे हातान कलवंत येंग मारूंक येता गा,
धर्मा येंग मारूंक येता गा.

त्यावू रे वेळार आपलो पिलुचो कुचो जोखिती गा,
धर्म बावन बेतकांठी गा.

दोनय रे फुडें धरून जिवा राखण करिती गा,
धर्म जिवा राखण करिती गा.

ह्यावू रे वेळार कलवंत वाट सोडिना गा,
धर्मा वाट सोडिना गा.

त्यावू रे वेळार गुरून चोर रचिले गा,
गुरून चोर रचिले गा.

त्यावू रे चोरांनी कलवंता घरा उजो लायलो गा,
चोरांनी घरा उजो लायलो गा.

त्यावू रे वेळार धर्म जापो दिता गा,
कलवंता जापो दिता गा.

कसल्या गो दादल्यां पळोवन भुलोन पडलें गा,
मार्गार भुलोन पडलें गा.

तुजें गो घर - दार लांसोन तें गेले गा,
तें म्हण लांसोन तें गेलें गा.

त्यावू रे वेळार कलवंत भान विसरलें गा,
धर्मा मुखार नाच नाचती गा.

धर्माचे रे शब्द हे म्हण कानांत पडले गा,
कलवंता कानांत पडले गा.

त्यावू रे वेळार कलवंतान माथ्यार हात घेतले गा,
आपलें बोंब मारिती गा.

बोंब गो मारीत कलवंत घराफुड्यांक गेलें गा,
आपल्या घराफुड्याक गेलें गा.

त्यावू रे वेळार धर्मान शिराप तो दिला गा,
कलवंता शिराप तो दिला गा.

त्यावू रे वेळार धर्माक वाट ती मेळ्ळी गा,
धर्मा वाट ती मेळ्ळी गा.

सत्याचो रे धर्म राजा फुडें चलता गा,
मार्गान फुडें चलता गा.

दोन रे मेटां सोडून तिसऱ्या मेटां पावलो गा,
धर्म तिसऱ्या मेटां पावलो गा.

फुडें रे मार्गार यमान शस्त्रां सोडिल्यां गा,
यमान शस्त्रां सोडिल्यां गा.

त्यावू रे वेळार धर्म येवजूंक लागलो गा,
मार्गार येवजूंक लागलो गा.

आपल्या रे सत्य – पुण्याक फुडें काडिलां गा,
धर्मान फुडें काडिलां गा.

त्यावू रे वेळार शस्त्रां गुप्त जालीं गा,
वाटेवयलीं शस्त्रां गुप्त जालीं गा.

त्यावू रे वेळार धर्म चलोंक लागलो गा,
फुडें शस्त्रां गुप्तन जाती गा.

फुडें रे शस्त्रां हीं म्हण गुप्त तीं जाती गा,
फाटल्यान उपतन [१] जाती गा.

---

१. उपतन = उत्पन्न

अशें रे करून धर्म चलोंक लागलो गा,
हो म्हण चलोंक लागलो गा.

सारीं रे शस्त्रां सोडून फुडें पावलो गा,
धर्म फुडें पावलो गा.

फुडें रे गेल्यार धर्मा काय घडती गा,
यमखंडा काय घडती गा.

यम रे यमीण दोगां भायर बसलीं गा,
आंगणां भायर बसलीं गा.

एका रे उल्या वाटे धावो घातिला गा,
धर्मा धावो घातिला गा.

कोण रे नरमनीस हांगा पावलो गा,
देवा हांगा पावलो गा.

त्यावू रे वेळार यम सांगोंक लागलो गा,
यमीणी सांगोंक लागलो गा.

आपूण घरा ना म्हण सांगोंक जायें गा,
तुयें सांगोंक जायें गा.

इतले रे सांगून यम घरांत बसलो गा,
यम घरांत बसलो गा.

त्यावू रे वेळार धर्म आंगणां पावलो गा,
यमाच्या आंगणां पावलो गा .

त्यावू रे वेळार धर्म विचारूं लागलो गा,
यमा बायले विचारूं लागलो गा .

तुमचो गे यम हो म्हणी खंयी तो गेलो गा,
हो म्हण खंयी तो गेलो गा .

आमचो गा यम सायबा घरा तो नायी गा,
सायबा घरा तो नायी गा .

यम गे घरा आसोन फट सांगोंक नाका गे,
म्हाका फट सांगोंक नाका गे .

यम गे घरा आसल्यार जोर भरत गे,
यमा जोर भरत गे .

जोराच्या  नेटान यमा परवण्यो येवच्यो गा,
यमा परवण्यो येवच्यो गा .

त्यावू रे वेळार धर्मान शिराप तो दिलो गा,
धर्मान शिराप तो दिलो गा .

धर्माच्या शिरापान यमा जोर भरलो गा,
यमा जोर भरलो गा .

जोराच्या नेटार यमा परवण्यो येता गा,
यमा परवण्यो येता गा.

त्यावू रे वेळार धर्म विचारूं लागलो गा,
यमीणी विचारूं लागलो गा.

तुमच्या गे घरांत हो म्हण कोण परवंता गा,
आता कोण परवंता गा.

आमच्या गा घरांत जाल्यांत हुंदीर ज्यास्त गा,
हो म्हण बुकल्यान धल्ला हुंदीर गा.

बुकल्यान धल्ला हुंदीर सायबा बुकला वड्डेता गा,
बुकलो वड्डेता गा.

यमाचे गे बायले तुमचो यम खंय गेला गे,
हें म्हण खरें तें सांग गे.

आमचो गा यम सायबा घरांत तो नायी गा,
सायबा घरांत तो नायी गा.

यम गे घरा आसोन फट सांगता गे,
म्हाका फट सांगता गे.

सत्य रे सांगल्यार प्राण्या कितेंच मेळता गा,
जल्मा कितेंच मेळता गा.

खोटें रे सांगता तेका कितें मेळता गा,
हें म्हण कितें मेळता गा.

त्यावू रे वेळार धर्मान शाप मारिला गा,
यमा शाप मारिला गा.

यम गे घरा आसल्यार कोडां तीं येवचीं गा,
यमा किडे ते पडचे गा.

किड्यांचो रे येग यमाच्यान सांबाळूंक जायना गा,
हो म्हण सांबाळूंक जायना गा.

त्यावू रे वेळार यम गडबड घालिती गा,
घरांत गडबड घालिती गा.

त्यावू रे वेळार यम भायर सरलो गा,
आंगणां भायर सरलो गा.

त्यावू रे वेळार यमा बायले लज ती जाली गा,
जल्मा लज ती जाली गा.

त्यावू रे वेळार यम लळोंक लागलो गा,
धर्मा पांयां कडेन यम लळोंक लागलो गा.

धर्माच्या रे पांयांचेर यम लळोंक लागलो गा,
देवा लळोंक लागलो गा.

फाटीर रे मार धर्मा पोटार मारूं नाका गा,
धर्मा पोटार मारूं नाका गा.

त्यावू रे वेळार धर्मा काळकूट दिसता गा,
यमाची काळकूट दिसता गा.

त्यावू रे वेळार धर्म झाडोंक लागलो गा,
कुच्यान झाडोंक लागलो गा.

सत्याच्या रे धर्मान यमाक मोकळो तो केलो गा,
धर्मान मोकळो तो केलो गा.

सारो रे जल्म झाडोन ठेविलो गा,
धर्मान झाडोन ठेविलो गा.

त्यावू रे वेळार यम सवशीद जालो गा,
देवा सवशीद जालो गा.

त्यावू रे वेळार धर्म सांगोंक लागलो गा,
यमाक सांगोंक लागलो गा.

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा खांदाक त्यो मार गा,
यमा खांदाक त्यो मार गा.

आतां रे वचोंक जायें णवलोकां बनवडी गा,
यमा णवलोकां बनवडी गा.

तिख्याच्यो रे कुराडी यमान खांदार मारिल्यो गा,
यमान खांदार मारिल्यो गा.

यमधर्म रे सत्यधर्म दोगूय चलोंक लागले गा,
मार्गान चलोंक लागले गा.

चलोन रे गेल्या दोगूय णवलोकां बनवडी गा,
हे म्हण णवलोकां बनवडी गा.

फुडें रे एक बरें मैदान आसा गा,
देवा मैदान आसा गा.

त्यावू रे मळार यमान वंय ती केल्या गा,
कांट्यांची वंय ती केल्या गा.

दोगू रे जाण हे म्हण बनवडी चलती गा,
हे म्हण बनवडी चलती गा.

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा सोड बनवडी गा,
यमा फोड बनवडी गा.

नेण्ट्यां रे बाळकां बनवड मळार सोडिली गा,
यमान मळार सोडिली गा.

नेण्टीं रे बाळकां वयतात देवाचे सोभे गा,
हीं म्हण नवस करिती गा.

तेत्तीस कोटी देवा सभा झांकळून पडत गा,
देव खुशाल ते जाता गा.

तिख्याच्यो कुराडी यमा भर बनवडी गा,
यमा भर बनवडी गा.

नेण्ट्यां रे बाळकां बनवडी भरूंक लागलो गा,
यमान भरून सोंपली गा.

तिख्याच्यो कुराडी यमा सोड बनवडी गा,
यमा फोड बनवडी गा.

दिणो रे मनीस मेल्यार कुंडो खायत गेलो गा,
जल्मा कुंडो खायत गेलो गा.

यमाचे रे दंड बघून भायर काडिती गा,
दिण्या भायर काडिती गा.

दिणो रे वयता हो म्हण पाताळखंडाक गा,
हो म्हण पाताळखंडाक गा.

शेखाची रे चुंबळ ही म्हण कुणी तयार केली गा,
देवा कुणी तयार केली गा.

आतां रे फडा शेखा माथ्यार ती आसा गा,
पिरथी माथ्यार ती आसा गा.

दिणो रे वयता हो म्हण पाताळखंडाक गा,
हो म्हण पाताळखंडाक गा.

त्यावू रे शेखा चुंबळी माथें मारिती गा,
दिणो माथें मारिती गा.

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा भर बनवडी गा,
यना भर बनवडी गा.

दिण्या रे चेडवां बनवडी यम भरूंक लागलो गा,
बनवडी भरून सोंपली गा.

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा सोड बनवडी गा,
यमा फोड बनवडी गा.

दिण्यां रे चेडवां बनवड मळार सोडिली गा,
यमान मळार सोडिली गा.

पयलींचो रे मान – सन्मान फाटीं तो गेलो गा,
हो म्हण फाटीं तो गेलो गा.

आतां रे समाज हो म्हण निराळो तो जालो गा,
आपलो स्वतंत्र तो जालो गा.

पयलीं रे माना चेडवां वाडोन पडना गा,
जल्मा वाडोन पडना गा.

ह्यावू रे माना चेडवां वाडोन पडलीं गा,
जल्मा वाडोन पडलीं गा.

कोणां रे कोणां हीं म्हण येंग मारूंक भोंवता गा,
हीं म्हण येंगाक तीं घेता गा.

कोणाच्या रे संगान तीं म्हण गर्भेस्त रावता गा,
तेंकां गर्भ रावता गा.

लोकांचे रे लजेक लागून गर्भ मारिती गा,
चेडवां गर्भ मारिती गा.

त्यावू रे माना पातक तें मोठें गा,
पिरथीर पातक तें मोठें गा.

त्यावू रे पातकान हें म्हण राज्य हालता गा,
हें म्हण राज्य धोलता गा.

तिवू रे पातकां पिरथीच्यान सांबाळूंक जायना गा,
पिरथीच्यान सांबाळूंक जायना गा.

त्यावू रे वेळार पातकां धुवोंक तो येता गा,
मेघ धुवोंक तो येता गा.

लोकांची रे शेतां - भातां कुसोन वडयलीं गा,
मेल्यान कुसोन वडयलीं गा.

आमी रे केल्लीं पातकां आमच्या फाटल्यान घुंवता गा,
हीं म्हण आमच्या फाटल्यान घुंवता गा.

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा भर बनवडी गा,
यमा भर बनवडी गा.

दिण्या रे चेडवां बनवडी भरूंक लागलो गा,
यमान भरून सोंपली गा.

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा सोड बनवडी गा,
यमा फोड बनवडी गा.

वयावयल्या दादल्यां बनवड मळार सोडिली गा,
यमान मळार सोडिली गा.

आपल्या कडे आसली वस्त ना म्हणूंक जायना गा,
देवा ना म्हणूंक जायना गा.

आसोन ना म्हणली वस्त हड्ड्यार सोडिली गा,
प्राण्या हड्ड्यार सोडिली गा.

नांगोर रे आसोन ना म्हणल्यार हड्ड्यार सोडिती गा,
यम हड्ड्यार सोडिती गा.

आपल्या कडे आसली वस्त ना म्हुणोंक जायना गा,
यम हड्ड्यार सोडिती गा.

आपल्या कडे आसली वस्त गरजे ती उरची गा,
एका – मेकां गरजे ती उरची गा.

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा भर बनवडी गा,
यमा भर बनवडी गा.

वयावयल्या दादल्यां बनवडी भरूंक लागलो गा,
यमान भरून सोंपली गा.

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा सोड बनवडी गा,
यमा फोड बनवडी गा.

वयावयल्या रे बायलां बनवड मळार सोडिली गा,
यमान मळार सोडिली गा.

उज्या रे गेल्यार बायलो कैला पातयेना गा,
आपल्या कैला पातेयना गा.

त्यावू रे बायलां हड्डयार कैलां तोडिलीं गा,
यमान कैलां तोडिलीं गा.

आपणें रे केल्लें पातक आपूण भोगिती गा,
संवसारां आपूण भोगिती गा.

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा भर बनवडी गा,
यमा भर बनवडी गा.

वयावयल्या रे बायलां बनवड भरूंक लागलो गा,
यमान भरून सोंपली गा.

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा सोड बनवडी गा,
यमा फोड बनवडी गा.

रांडाव दादल्यां बनवड मळार सोडिली गा,
यमान मळार सोडिली गा.

जल्मा रे येऊन कधी चोरी करूं नये गा,
जल्मा चोरी करूं नये गा.

तेंच्या रे खातीर यमान घाणो तयार केला गा,
तेंकां घाणो तयार केलो गा.

त्यावू रे चोरांक हे म्हण तकलेन लायिती गा,
घाण्याक तकलेन लायिती गा.

अशा रे तरेन तेंची वोस काडिती गा,
यम वोस काडिती गा.

त्यावू रे प्राण्या भारी हाल करिती गा,
यम हाल करिती गा.

जल्मा रे येऊन केन्ना सतावूंक जायना गा,
कोणांक सतावूंक जायना गा.

त्यावू रे कांसादोरा यमान कितें केला गा,
यमान काय केला गा .

त्यावू रे कांसोदोराखातीर यमान गिधाड पोशिलां गा,
यमान गिधाड पोशिलां गा .

तेंवूं रे गिधाड तेंकां सतावूंक लागती गा,
तें म्हण सतावूंक लागती गा .

इकडे रे तिकडे प्राण्या फांफसून काडिती गा,
गिधाड फांफसून काडिती गा .

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा भर बनवडी गा,
यमा भर बनवडी गा .

रांडाव रे दादल्यां बनवडी भरूंक लागलो गा,
यमान भरून सोंपली गा .

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा सोड बनवडी गा,
यमा फोड बनवडी गा .

रांडाव रे बायलां बनवड मळार सोडिली गा,
यमान मळार सोडिली गा .

रांडाव रे बायलो जल्मा काय करिती गा,
त्यो म्हण काय करिती गा .

घोवाक रे फटोवन सारीं कामां करिती गा,
बायलो कामां करिती गा.

त्यावू रे बायलां वयार रांडपण मेळती गा,
हें म्हण रांडपण मेळती गा.

सारीं रे वर्सां ह्यो म्हण तरास कडिती गा,
जल्मा तरास काडिती गा.

वयार रे आसतना ह्यो म्हण तन्न्यांक घेवन नाचता गा,
ह्यो म्हण तन्न्यांक घेवन नाचता गा.

त्यावू रे बायलांखातीर खांबो तयार केला गा,
यमान खांबो तयार केला गा.

तोवू रे तिख्या खांबो तापोवन तो तांबडो गा,
हो म्हण तापोवन तो तांबडो गा.

त्यावू रे खांब्या बांयलांक येंग मारूंक लायिती गा,
देवा येंग मारूंक लायिती गा.

खतखतीत रे तेल आंगार वोतिती गा,
यम आंगार वोतिती गा.

आपल्या रे घोवा जल्मा फटोवंक तो जायना गा,
जल्मा फटोवंक तो जायना गा.

आपली रे बायल सोडून दुसऱ्या संगा वचोंक जायना गा,
दुसऱ्या संगा वचोंक जायना गा.

त्यावू रे लोकांखातीर अग्नीकूंड केलां गा,
यमान अग्नीकूंड केला गा.

त्यावू रे लोकांप्राण्या अग्नींत सोडिती गा,
यम अग्नीत सोडिती गा.

आपणें रे केल्लें पातक आपूण मेजिती गा,
जल्मा आपूण मेजिती गा.

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा भर बनवडी गा,
यमा भर बनवडी गा.

रांडाव रे बायलां बनवड भरूंक लागलो गा,
यमान भरून सोंपली गा.

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा सोड बनवडी गा,
यमा फोड बनवडी गा.

जाण्ट्यां रे दादल्यां बनवड मळार सोडिली गा,
यमान मळार सोडिली गा.

जल्मा रे येवन कधी खोंटें बोलूंक जायना गा,
कधी खोंटें बोलूंक जायना गा.

कोण रे शेणून पडल्यार वाट दाखोवची गा,
तेका वाट दाखोवंची गा.

वांटेर रे कांटी आसल्यार सुखाळून काडची गा,
ही म्हण सुखाळून काडची गा.

कोणाची रे वाट कोणें पुरवूंक जायना गा,
जल्मा पुरवूंक जायना गा.

धंदो रे कळना तेका धंदो दाखोवचो गा,
तेका धंदो शिकोवचो गा.

त्यावू रे मनशां पदरां पुण्य मेळती गा,
तें म्हण सत्य मेळती गा.

कोणें रे गरजे लागून पयशे मागल्यार गा,
ते म्हण काडून दिवचे गा.

तेगेली रे गरज ही म्हण भरून घेवची गा,
ती म्हण भरून घेवची गा.

आसोन ना म्हण्टा तेका सर्ग मेळना गा,
तेका म्हण सर्ग मेळना गा.

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा भर बनवडी गा,
यमा भर बनवडी गा.

जाण्ट्यां रे दादल्यां बनवड भरूंक लागलो गा,
यमान भरून सोंपली गा .

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा सोड बनवडी गा,
यमा फोड बनवडी गा .

जाण्ट्यां रे बायलां बनवड मळार सोडिली गा,
यमान मळार सोडिली गा .

जल्मा रे येऊन हें म्हण अन्नदान करचें गा,
हें म्हण अन्नदान करचें गा .

अन्ना रे सारकें पुण्य तें नायी गा,
जगार पुण्य तें नायी गा .

त्यावू रे प्राण्या यम आपूण लायिती गा,
आपल्या हातान लायिती गा .

बरें रे केलां तेका पांये पडती गा,
यम पांये पडती गा .

बरें रे केला तेची सेवा –चाकरी करिती गा,
यम सेवा–चाकरी करिती गा .

भीक रे मागल्यार भिकाऱ्यांक भीक घालची गा,
तेंकां भीक घालची गा .

आपली रे ताकद असल्या परमाण भीक घालची गा,
तेंकां भीक घालची गा .

भीक रे मुठभर मेळळयार बरें जावूं म्हण्टा गा,
भिकारी बरें जावूं म्हण्टा गा .

त्यावू रे भिकाऱ्यांक रित्या हातीन परतूंक जायना गा,
रित्या हातीन परतूंक जायना गा .

रित्या रे हातीन गेल्यार पाड पडूं म्हण्टा गा,
भिकारी पाड पडूं म्हण्टा गा .

जल्मा रे येऊन बरो आशिर्वाद घेवचो गा,
लोकांचो बरो आशिर्वाद घेवचो गा .

वायट रे करता तेका बरें नांव मेळना गा,
जगार बरें नांव मेळना गा .

बरें रे करता तेचें नांव जाता गा,
तेचें नांव जाता गा .

चार ते गांवचे लोक तेका बरें तें म्हण्टा गा,
तेचें बरें जावूं म्हण्टा गा .

जोडलेली दौलत ही म्हण एकट्यान खावोंक जायना गा,
आंपल्या एकट्यान खावोंक जायना गा .

थोडे रे पयशे मोडून धर्मकामां करचीं गा,
आपल्या घरा धर्मकामां करचीं गा.

असो रे दान करचो धर्म गा,
हो म्हण दान करचो धर्म गा.

हिवू रे कथा आमची सांगून ती पुरो गा,
ही म्हण सांगून ती पुरो गा.

णवलोकां रे बनवड आमची उसोवन सोंपली गा,
देवा उसोवन सोंपली गा.

तिख्याच्यो रे कुराडी यमा भर बनवडी गा,
यमा भर बनवडी गा.

जाण्ट्यां रे वायलां बनवड भरूंक लागलो गा,
यमान भरून सोंपली गा.

सारी रे बनवड ही म्हण भरून सोंपली गा,
ही म्हण भरून सोंपली गा.

साऱ्या रे पितरांवळी धर्म पळोवंक लागलो गा,
आपल्या पितरां सोदिती गा.

सत्याच्या रे धर्मा पितरां जल्मां मेळना गा,
धर्मा जल्मां मेळना गा.

त्यावू रे वेळार धर्म विचारूं लागलो गा,
यमा विचारूं लागलो गा.

आपलीं रे पितरां यमा खंयी तीं आसा गा,
यमा खंयी तीं आसा गा.

त्यावू रे वेळार यम चलोंक लागलो गा,
मार्गान चलोंक लागलो गा.

यमधर्म रे सत्यधर्म हे म्हण वनाक ते गेले गा,
हे म्हण वनाक ते गेले गा.

पंडुचो रे प्राणी हो म्हण हरणा शिंगार आसा गा,
हो म्हण हरणा शिंगार आसा गा.

त्यावू रे वेळार यमान चक्र काडिलां गा,
प्राण्या चक्र कडिलां गा.

त्यावू रे वेळार हो म्हण प्राण कडिलो गा,
शिंगावेलो प्राण काडिलो गा.

पंडुचो रे प्राणी हो म्हण सावशीद केला गा,
यमान सावशीद केला गा.

इतले रे दीस प्राणी तरास भोगिती गा,
देवा तरास भोगिती गा.



त्यावू रे वेळार धर्मा पितरां तीं दिलीं गा,
धर्मा हातांत पितरां तीं दिलीं गा.

आपल्या रे बाप्पा पितरां हातांत घेतिलीं गा,
धर्मान हातांत घेतिलीं गा.

इतलें रे करून दोगू दोन मार्गा गेले गा,
दोगू दोन मार्गा गेले गा.

यम रे गेला आपल्या राज्यांक गा,
हो म्हण आपल्या घरी पावला गा.

सत्याचो रे धर्म राजा चलोंक लागलो गा,
हो म्हण वाट चलोंक लागलो गा.

त्यावू रे वेळार धर्माक काळोख तो जालो गा,
मार्गार काळोख तो जालो गा.

त्यावू रे वेळार धर्मान पितरां हातांत घेतिलीं गा,
धर्मान मार्गार तीं दवरलीं गा.

त्यावू रे वेळार यमा अन्न तें नाका गा,
देवा जेवण तें नाका गा.

न्हिदोंक रे गेल्यार यमा न्हिद पडना गा,
जल्मा न्हिद पडना गा.

गुप्त रे रूपान यम भायर सरलो गा,
मार्गार भायर सरला गा.

धर्माक रे खबर नासतना पितरां घेवन गेलो गा,
यम पितरां घेवन गेलो गा.

त्यावू रे वेळार धर्म उठोन पळयता गा,
सकाळीं उठोन पळयता गा.

त्यावू रे वेळार धर्म फाटीं परतलो गा,
यमराज्यां फाटीं परतलो गा.

यमखंडां वचोन धर्म विचारूं लागलो गा,
यमा विचारूं लागलो गा.

आपलीं रे पितरां तुयें कित्याक हाडिलीं गा,
यमा कित्याक हाडिलीं गा.

आपूण रे हांगां आसोन फुकट तो जालो गा,
धर्मा फुकट तो जालो गा.

आपल्या रे पोटार धर्मा आड येवूं नाका गा,
धर्मा आड येवू नाका गा.

आपल्याक रे देवांनी हांगां निर्माण केला गा,
आपल्याक निर्माण केला गा.

साऱ्या रे कामा करता आपूण तो आसा गा,
कामासाठी आपूण तो आसा गा.

तीन रे देवांनी आपल्याक ठेविला गा,
हांगां चाकरेक ठेविला गा.

त्यावू रे देवांची कामां आपूण तीं करिती गा,
धर्मा आपूण तीं करिती गा.

तुयें रे पितरां व्हयली जाल्यार लोक येतलो गा,
व्हरोंक हांगा लोक येतलो गा.

आपूण रे हांगा रावून फुकट जातलो गा,
धर्मा फुकट जातलो गा.

अस्तना रे वचोन धर्मा शिराद [१] मांडुचें गा,
धर्मा शिराद मांडुचें गा.

त्यावू रे वेळार धर्मा काकावळ [२] घालची गा,
धर्मा काकावळ घालची गा.

कावळ्याच्या रे रूपान तुका पितरां धाडिती गा,
धर्मा पितरां धाडिती गा.

---

१. शिराद = श्राध्द
२. काकावळ = काकोळ, पितरांच्या नांवान कावळ्यांक घाल्लें जेवण.

इतलें रे आयकोन धर्म चलोंक लागलो गा,
मार्गा चलोंक लागलो गा .

यमखंड रे राज्य सोडून क्षेत्रां चालती गा,
धर्म क्षेत्रां चालती गा .

सारीं रे मेटां सोडून मार्ग सांडिले गा,
धर्मान मार्ग सांडिले गा .

इतलें रे करून धर्म खांबो देवोंक लागलो गा,
सिस्टिचो खांबो देवोंक लागलो गा .

सिस्टिचो रे खांबो देवन मृतखंडा पावलो गा,
धर्म मृतखंडा पावलो गा .

मृतखंडा रे चलोन धर्म अस्तनपुरा पावलो गा,
धर्म अस्तनपुरा पावलो गा .

अस्तन रे पुराचो लोक खुशाल तो जालो ,
लोक खुशाल तो जालो गा .

त्यावू रे वेळार धर्मान शिराद वाडिलां गा,
धर्मान शिराद वाडिलां गा .

त्यावू रे वेळार धर्मान काकावळ घायली गा,
धर्मान काकावळ घायली गा .

काचळ्याच्या रे रूपान धर्माक पितरां मेळलीं गा,
धर्माक पितरां मेळली गा.

त्यावू रे वेळार धर्म खुशाल तो जालो गा,
देवा खुशाल तो जालो गा.

त्यावू रे वेळार आपलें भंडार फोडिलें गा,
धर्मान आपलें भंडार फोडिलें गा.

गोर रे गरीब लोकांक वांटूंक लागलो गा,
दान वांटूंक लागलो गा.

भटां रे रूशींक दान दिवूंक लागलो गा,
दान दिवूंक लागलो गा.

सर्व रे लोकांक धर्मान पोशाख तो दिलो गा,
धर्मान पोशाख तो दिलो गा.

धर्माची रे आदन्या घेवन चलोंक लागलो गा,
लोक चलोंक लागलो गा.

सारे रे राजा आपल्या राज्यां ते गेले गा,
राजा राज्यां ते गेले गा.

रूशी रे देव गेले आपल्या मठांत गा,
रूशी देव आपल्या मठांत गा.

भट रे गेले आपल्या घरी नंदोंक गा,
आपल्या घरी नंदोंक गा.

पांच रे पांडव आसा अस्तनपुरा राज्यां गा,
हे म्हण अस्तनपुरा राज्यां गा.

मार्गाची रे कथा आमची मार्गाक आसूं गा,
ही म्हण मार्गाक आसूं गा.

तेत्तीस रे कोटी देवांनी इशरांत केला गा,
हो म्हण इशरांत केला गा.

आमची रे कथा आसूं रे मृतखंडा राज्यां गा,
ही म्हण मृतखंडा राज्यां गा.

हेच्या रे फुडें आमकां सुशेग तो मेळचो गा,
लोकांक खुशालकाय मेळची गा.

पाताळिची शारदा भयण पाताळखंडा वचूं गा,
भयण पाताळखंडा वचूं गा.

जये रामा, शिवरामा सुमरण मांडिलां गा,
देवांनी सुमरण बोललां गा.



## लोकवेदा संबंदान
## गोवा कोंकणी अकादेमीचीं प्रकाशनां

❖

**गोंयच्या लोकवेदाचो रुपकार**
श्याम वेरेंकार

❖

**रथा तुज्यो घुडयो**
जयंती नायक

❖

**कणेर खुंटी नारी**
जयंती नायक

❖

**तळय उखल्ली खेळयांनी**
जयंती नायक

❖

**मानालीं गितां**
जयंती नायक

❖

**आमोणें : एक लोकजीण**
जयंती नायक

❖

**पेडणेचो दसरो**
जयंती नायक

❖

**कांसावलेचें रायां फेस्त**
चंद्रकांत केणी

❖

**लोकबिंब**
जयंती नायक


मेळपाचें ठिकाण
गोवा कोंकणी अकादेमीची कचेरी
बोरी, फोंडें, गोंय. फोन : २३३३४९१, २३३३४९२, २३३३४९३